# भौरंगी जीण (भाग - २)

दीपा मुरकुंडे





श्री हरि प्रकाशन

# भौरंगी जीण

(भाग - २)

(पारजत संग्रह - १९८९-२००७)

दीपा मुरकुंडे







श्री हरि प्रकाशन

**Bhourangi Jeen**

A Collection of Essays

**भौरंगी जीण**

**बरोवपी : दीपा मुरकुंडे**

प्रकाशन क्र. २७

दीपा मुरकुंडे

पयली उजवाडावणी : २७ जानेवारी २००८

**उजवाडावपी :**

दीपा मुरकुंडे

श्री हरि [illegible], ३८९/ अ, शांतिनगर,

आके - बायश, नावेली, गोंय - ४०३ ७०७

फोन : ६५७३२८७

**अक्षर जुळणी :**

स्पीडक इन्फोर्मेटिक्स

२०८, कॉमर्स हाऊस,

मडगांव-गोंय. फोन : २७३७००२

**छापणावळ :**

लईराई प्रिंटर्स

मडगांव फोन २७०४२१३, ९८२२१०२०४०

**मोल : ४५ रुपया**

**पूर्व प्रसिद्धी - सुनापरान्त**

**मुखचित्र आनी भितरलीं चित्रां : वासू**

"बरोवपी दोळयांनी न्हय, तर हातान बरयता" म्हूण सांगून म्हाका मानसीक बळगें दिवपी दोतोर भौ. राजेंद्रबाब हेगडो हांकां व्हडा आदरान ओपतां.

- दीपा

# भौशंगी जीण

## (भाग - २)

## मांडावळ

# शठम् प्रति शाठ्यम्

आमी त्या वाठारांत घर बांदूक घेतिल्लें. घराचे काम पळावक धरकारा वांगडा हांवूय अदीं मदीं वतालें. आमच्या धाकटुल्या प्लॉटांत आमच्या घरा भोंवतणी आमी तरांतरांची झाडां रोवंचेलें येवजिल्लें पूण त्या वाठारात वतकीर म्हाका सदांच एक गजाल खटकताली. ती म्हळयार आमच्या शेजरापाजरा पोरसांत शाक भाजी वा फळां-फुलांची झाडा रोयिल्ल्याचें दिसनाशिल्लें.

एक दीस हांवे म्हजे शेजान्नीक म्हळें, 'तुमचो हो जागो खूब व्हड आसा. तुमी नोकरी करीनात म्हणटकीर तुमकां जो वेळ मेळटा. तातूंत तुमकां ह्या येद्या व्हडल्या पोरसांत तरांतरांची भाजी रोवंची अशें दिसना ?

शेजान्न हांसली, 'तुमी हांगा रावंक येयात. मागीर कळटलें हांगा कोणाच्याच पोरसांत कित्याक कांयच ना तें' शेजान्नीन कारण गुपीत दवरलें.

कांय तेंपान आमी आमच्या घरांत रावंक लागली. आमकां आमच्या धाकटुल्या पोरसांत कितें रोवं आनी कितें नाका अशें जालें. पावस सुरू जातकीर एका शेनवारा तरांतरांचीं फळांची गार्फां बरेऽ दुडू खर्चून हाडलीं. पैसपैसुल्या इश्टिणीकडसून फुलांझाडांच्यो ताळयो पुंजायल्यो. दुसरे दीस, आयतारा, घाम गळसर पोरसांत काम केलें. हाडिल्लीं तीं गार्फां, ताळयो पोरसांत रोयल्यो. आमी आमचेरूच खुश जालीं. दुसरे दीस आमचे हात-पांय बरेऽ दुखले. कित्याक तर पोरसांत खणचेली वा अशें दीसभर पोरसांतलें काम करचेली आमची संवय खूब वर्सांसावन मोडिल्ली. तरी पूण आमी पोरसांत उपेगी अशीं फळां-फुलांची झाडा रोयिल्ल्याचें एक समाधान आशिल्लें. प्रत्येक दिसा आमी सांजवेळा पोरसांत वचून झाडां तोखेतालीं. तेन्नाच पावसा दीस आशिल्ल्यान अजून झाडांक उदक घालचेली गरज नासली.

चार-पांच दिसां उपरांत पोरसांत गेल्यार कितें? चडांत चड झाडां कोणे तरी खावन उडयल्यांत. अशें कशें ? आमची फुडली गॅट तर आमी वेवस्थीत बंद करतात. मागीर त्यो ताळयो आनी गार्फां कोणे खालीं ? अजापान हांवे ती गजाल शेजान्नीक सांगली.

शेजान्न हांसली, 'आतां कळळें, आमी पोरसांत कांयच कित्याक रोयनात तीं ? त्रास काडून, दुडू खर्चून रोवप. उपरांत तीं अशीं सगळीं बोकड्यांनी खावप.'

'बोकड्यो ? कोणाल्यो बोकड्यो हांगा येतात ?' हांवें अजापान विचारलें.

'हऽथंय एक घर आसा. तांणी बोकड्यो पोसल्यात. तीं तांकां चरपाखातीर

अशींच सोडून दितात. मागीर बोकड्यो हेवटेन तेवटेन वचून लोकांचीं पोरसां पाड करून उडयतात.' - शेजान्न

हें नाका जाल्लेंच. घराभोंवतणची सुवात आमची. पोरसू आमचें झाडां आमचीं. तांणी आपल्यो बोकड्यो सांबाळूंक जाय. तुमी कोणेच तांकां सांगलें ना?'-हांव

'सांगलें ना? आवयस्‌स म्हजे. तांचेकडेन उलोवप म्हळयार फकाणां न्हयं. तें सतरा-अठरा वर्सांचे चली लेगीत बोकड्यांनी पोरसूं खालें म्हूण सांगल्यार असल्यो चरचरीत गाळी घालता ! ताणें तोंड उक्ते केल्यार आयकतल्याक थरथरो भरलेबगर रावना'. 'गाळी आयकून थरथरो भरता ? हें नाका जाल्लेंच ! तुमी घरा वचून ताचे आवयक सांगले ना?' - हांव

'आवयक? धूव परवडली, पूण आवय न्हय'. शेजान्नीन सांगले. म्हाका अजाप जालें. आमच्या घरा भोंवतणी फुलां-फळां झाडां रोवचेली आमची उमेद तांच्या बोकड्यांक लागून मारप हें म्हाका कशेंच पटलें ना.

फुडले खेपो येऊंदी ह्यो बोकड्यो. हांव तांगेर वचून तांकां बरेंऽ तरेन सांगतले. बरेंऽ तरेन सांगल्यार तीं समजतलीं. खरें तर बोकड्यांची चूक ना. मोनजात ती. पूण पोसतल्यांनी तांकां राखूंक जाय.

दुसरे दीस हांव बोकड्यांचे पाळटेर रावलें. सकाळीं साडेइकरांक बोकड्यो शेजाऱ्यांच्या दुरगावयल्यान उडक्यो मारून पोरसांत भितर सरल्यो. हांवें दार उक्तें केलें आनी बोकड्यांक धांवडायलीं. म्हजो बोवाळ आयकून आमचें कोलूक चिमी, बोकड्यां फाटल्यान भूऽ भूऽ भूऽ करीत धांवलें. बोकड्यो फुडें, चिमी फाटल्यान आनी तांचे फाटल्यान हांव अशी आमची धांवचेली रेस सुरू जाली. बोकड्यो धांवत-धांवत एका घरासरीं पावल्यो जंय एक सतरा-अठरा वर्सां पिरायेचें तरणाटे मुस्तायकी उमळटालें.

'आगे कित्याक धांवता?' ताणें विचारलें.

'हे त्यो बोकड्यो - तांणी म्हजें पोरसूं खावन निवळ केलां. त्यो कोणाच्यो तें म्हाका सोदून काडूंक जाय. तांकां हांव बरेऽ तरेन समजावन सांगूंक सोदता. बोकड्यो पोसतल्यान तांकां राखूंक जाय. कोणाच्यो काय त्यो बोकड्यो ?'

'कोणाच्यो? कोणाच्यो त्यो सांगोता' म्हणत ते तरणाटेन 'फ-फा-फि-फि-' सुरू केली. असो गाळी शिंवर म्हजे जिणेंत हांवे आयकूंक नासलो. म्हाका थरथरो भरलो. काळीज़ धडधडूंक लागलें. इतल्यांत एक बायल आयली - घडये ते तरणाटेची आवय आसुंये. फुगेट्यांची बॉक्सांच्या बॉक्सां एकाच वांगडा लायिल्लेवरी ठो ऽ ठो ऽ ठोऽ ठोऽ जावंक लागलें. तांचो तो व्हडा व्हडान गाळी शिंवर आयकून चिमी धांवत

म्हजेसरी आयलें आनी तांचेर भुकूं लागलें. कशें तरी चिमीक वांगडा घेवन हांव - हारिल्ल्या शिपायावरी घरा परतलें. घरांतली सगळीं आपापल्या कामाक गेल्ल्यान हांव घरांत एकलेंच आशिल्ले. उदक पियेलें, पंखो सुरू केलो आनी पंख्या पोंदा सोफार न्हिदले.

दनपरां घरांतली सगळी येतकीर हांवे तांकां सगळी गाळीशिंवर कथा सांगली. रस्त्यार रावन इतल्यो पोजड्यांतल्यो पोजड्यो गाळी आयकूंक काळीज लागता. आतां कितें करप? आमचेंय पोरसूं पाड घालप ? काय त्या गाळी शिंवर घालपी बायलांचेर जैत जोडप ? म्हजें मन हार मानूंक तयार ना जालें. आयज हारलें खरें, पूण असलो अणभव पदराक नाशिल्ल्यान तें जालें. घरांतल्या सगल्यांनी बसून भासाभास केली. त्या बायलां परस व्हडा आवाजान चडांत चड पोजड्यो गाळी घालून तांचेर जैत मेळयल्यार ह्या अरव्व्या वाड्यावयले बोकड्यांचे त्रास थांबतले अशा निर्णया मेरेन आमी पावलीं.

घरकार वीस वर्सां कोल्हापूरा राविल्लो. थंयच्यो अस्सल कोल्हापुरी मराठींतल्यो, गोंयच्यो कोंकणीतल्यो, मार्केटांतल्यो, हिन्दींतल्यो आनी आयकल्ल्यो इंग्लिशींतल्यो, सगल्यो गाळी बरोवन काडल्यो. आतां त्यो सगल्यो एकाच वांगडा - स्वास घेनासतना व्हडा आवाजान रस्त्यार रावन म्हणूंक जाय.
पयलीं त्यो गाळी पाठ्ठ केल्यो. उपरांत नाटकाची तालीम करतात ते प्रमाण हारशा मुखार रावन ल्हवू आवाजान फटाफट म्हणूंक सुरवात केली. एक सप्तकभर यत्न करतकीर जमलें. सगळें प्रशिक्षण घेतकीर एक दीस बोकड्यांचे पाळटीर रावलें.

सकाळीं इकरा-साडेअकरांक बोकड्यो पोरसांत आयल्यो. दार उत्तें करून चिमीक छूऽ म्हळें. चिमीक बांदचेली सांखळी घेवन हांव चिमी फाटल्यान धांवलें. मोट्या यत्नान एक बोकडी धरपांत हांवें जैत मेळयलें. तिच्या गळयांत चिमीची सांखळी घालून तिका हाडून आमच्या तेर्रासार बांदली. बोकडेन खूब त्रास दिले, कान किटसर बेंऽ बेंऽ केलें.

सांजवेळा आपली एक बोकडी घरां पावूंक ना म्हणचेलें त्या आवय धुवेच्या लक्षांत आयलें. तीं दोगाय दुबावान आमच्या घराकडेन रस्त्यार येवन बोकडेक आपोवंक लागलीं. तांचो आवाज आयकून तेर्रासावयले बोकडेन बेंऽ बेंऽ केलें. ते सरशीं दोगांयनी आमच्या घरामुखार रावन फफाफिफी सुरू केली. पूण हे खेपे हांव प्रशिक्षण घेवन तयार जाल्लें. सगळे शेजारी पाजारी कामानिमित्त करून आपापल्या पोरसांत आयले. आवय-धुवेन 'फ फा फि फी' सुरू करना फुडें हांवे 'फ फा फि फी फु फू फे फै फो फौ फं फः' स्वास घेनासतना चार पांचदां म्हळें.

फुगेटद्यांची बॉक्सांच्या बॉक्सां लायिल्लेवरी ते ठोऽ ठोऽ डऽम् ढम् आयकून तांचें तोंड बंद जालें. तीं दोगांय एकामेकांकडेन पळयत रावलीं.

'आमची बोकडी तुमच्या तेर्रासार आसा'. आवयन मोवाळ आवाजान सांगलें.

'ती आमच्या तेर्रासार पावलीच कशी? म्हज्या तेर्रासार वचूक आमच्या घरांतल्यान वचचें पडटा. शिडी तर भितरल्यान आसा. तुमी बोकड्यो पोसूंक जाणा, राखूंक नकळ?' हांवे परतीय 'फ फा ते फं फः' म्हळीं. तांणी दोगांयनी कानार हात दवरलो. तें तरणाटे चली तर दांतखिळी बशिल्ल्यासारकें वा मानसीक धक्को बशिल्ल्यासारकें म्हाका पळयत आशिल्लें .

'बाय हे खेपो ती बोकडी दी'. आवयन म्हळें.

'फाल्यां यो, फाल्यां बुधवार. आमी मटण करतली. तुकाय थोडें मांस दवरतां. सकाळीं इकरांक येवन व्हर. कितलें कील दवरूं ? एक काय दोन?'

ती साप्प भियेली. 'बाय चूक मागतां. म्हज्यो बोकड्यो परत्योय तुज्या पोरसांत आयल्यार काप तूं.'

'खरेंच मगे ? हे ते पळय सगळे शेजारी आपापल्या पोरसांतल्यान आयकतात. फाल्यांच्यान बोकड्यो कोणाच्याच पोरसांत पावंक जायना. तुका त्यो पोसूंक जाय जाल्यार तांकां राख'. अशें म्हणून हांवें तिची ती बोकडी हाडून तिका दिली. अजाप म्हळयार दुसरे दीस सावन एकूय बोकडी लोकांच्या पोरसांत दिसली ना. दुसऱ्याच दिसा सावन तिणें त्यो सगळयो बोकड्यो राखूंक सुरवात केली. उपरांत ल्हवु-ल्हवु करून विकून सोडल्यो. आमची सगल्याचीं पोरसां फुलां-फळांच्या झाडांनी भरलीं.

# आपणाला बायको पायजे काय ?

'तुमी साश्टींतले लोकूच ते कोंकणी-मराठी करून नाचतात. गोंयचे उत्तरेक सऽगळे मराठी-मराठी म्हणटात' आनंद म्हाका नेटानेटान सांगतालो.

'आनंद, मात्सो विचार कर आनी पळय. कोंकणी-मराठी वाद केऽन्ना सोंपिल्लो. कोंकणी हीच गोंयची राजभास मानून घेवन कितलींशींच वर्सां जाल्यांत. आतां तेरा वर्सां उपरांत राजभास कायदो बदलपाचो प्रस्न उप्राशिला तो फकत राजकर्णी लोकांनी. तोवूय बी स्वतःच्या सुवार्थापासत, प्रजेच्या कसल्याच हितापासत न्हय.' हांवें जाप दिली.

'तुवें कितेंय म्हळें तरी आमी मराठी दिसाळींच वाचतात. गोंयांत कोंकणी दिसाळीं कितलीं आसात आनी तीं कितलीं खपतात हो हिशोब काड. आमचें वाचप, बरवप सगळें कितें मराठींत जाता. आमी एकामेकांक चिटी लेगीत मराठींत बरयतात. म्हणटकीर आमची राजभास मराठीच जावंची पडली' आनंदान टेबलाचेर हात मारीत म्हळें.

'बाबा रे, आयज जे पन्नास वर्सां पिरायेचे गोंयकार आसात, ते तांच्या भुरगेपणांत चवथी मेरेनच मुळावें शिकप मराठींतल्यान शिकले. तांणी मराठींतल्यान वाचप, बरवप केलें. हें जरी खरें आसलें तरी तांची आवय भास सदांच कोंकणीच आशिल्ली. ते कोंकणीच उलयताले. आपले उमाळे, उत्फर्के, घुस्मट खोशी सगळे कितें कोंकणीत उक्तायताले. ज्या राज्यांतल्या मनशांची जी आवयभास, तीच त्या राज्याची राजभास' म्हजी जाप.

'तुवें कितेंय म्हळें तरी गोंयांत कोंकणी आनी मराठी, दोनूय राजभासो म्हणून मानून घेवंक जाय' - आनंद.

'आनंद, सध्याची पिळगी चडांत चड इंग्लीश शिकता, उलयता बरयता. वाचता इंग्लीश. दिसाळींय इंग्लिशूच चड खपतात. इंग्लिश भाशेबगर आमचें पा[illegible] हालना. झक मार ती कोंकणी-मराठी. आमी इंग्लिशूच गोंयची राजभास म्ह[illegible] केल्यार कशें?' हांवें बॉम्ब शेंवटिलो.

'हें मात कित्याय कितें हां!' आमगेलें शिकप, वाचप, सरकारी कारभा[illegible] इंग्लिशींतल्यान आसा आनी पोटाचें साधन म्हूण इंग्लिशीची गरजूच आसा, तरी पूण ती ह्या देशाची भास न्हय. आमच्या देशाची, आमच्या राष्ट्राची भास - राष्ट्रभा[illegible] - हिंदी. इंग्लीश-जी भारतीय भास न्हय ती गोंयची राजभास कशी जातली?' -

आनंद.

'हय न्हय? मागीर जी भास आमकां गोंयकारांक धड उलोवंक येना ती आमची आवयभास कशी जातली? आमी मराठी वाचतात, बरयतात हें खरें, पूण आमकां ती उलोवंक येता जाल्यार पळोवया, आनंद आतां आपण दोघही मराठीतून संभाषण करूंया' हांवे म्हळें.

'आगे ..... अहो..... आपण' आनंद गडबडलो. म्हाका कितें म्हणून संबोधन करचें तें ताका कळ्ळेंच ना.

'तुम्ही कितीही म्हणलें तरी... तरी 'I can prove that only people of Salcette want कोंकणी' आनंदाक एक वाक्य लेगीत मराठीं भाशेंतल्यान उलोवंक जमना जालें. तागेलो चेरो साप्प पडलो.

'आता कळ्ळें तुका? तुका इग्लीश उलोवंक येता, पूण मराठी उलोवंक येना. इंग्लीश तूं यत्न करून शिकला - बरोवंक आनी उलोवंक. मराठीय तूं वाचपा-बरोवपाक यत्न करून शिकला. पूण तुका उलोवंक मातूय येना. आतां हांव तुजे परसूय बरी मराठी सहज उलोवंक शकता ताचें कारण हांव कांय वर्सां महाराष्ट्रांत राविल्लें आनी म्हाका थंयच्या समाजांत तीच भास उलोवची पडली म्हणून. नाजाल्यार हांवूय तुजे सारकेंच त..त..त...प....प... करचेलें.' म्हजी जाप आयकून आनंदाचे तोंड इल्लेशे जालें. आनंद तुका एक गजाल सांगतां. 'आमकां गोंयकारांक भायल्या लोकांक तकलेर घेवन नाचून ताका 'यस् सर, यस् सर' म्हणचेली खूब खोस.' नोवेंबर एकोणीसशें अयशीं भितर हांव आनी म्हजो घरकार - आमी दोगांयनी गोंयांच येवन थीर जावंचेले थारायलें. म्हज्या घरकारान अमेरिकन कंपनीची नोकरी सोडून गोंयांच धंदो करचेलें थारायलें. आनी आमी भाड्याचें घर सोदूंक लागलीं. आमकां एक घर मेळ्ळेंय बी. घरमालकाक आमी कोल्हापूरसावन आयल्यांत आनी आमी गोंयकार म्हणचेलें सांगलें. पूण 'मुरकुंडे' हे गोंयकार म्हूण ताचे तकलेंत कशेंच बसना जालें. आमी कोंकणीच उलयतालीं. ताका हांवे 'हांव पणजेकान्न' आनी म्हजो घरकार 'मडगांवकार' म्हूण सांगल्यार लेगीत खरें दिसनासलें. आमी घरांतूय कोंकणी उलयतालीं आनी भायरूय. पूण आमी दिसलीं रे दिसलीं घरमालक आपली तांबडी मराठी कातरतालो.

कोल्हापूरसावन ट्रकांतल्यान सगळें सामान हाडून आमी त्या धाकटुल्या पूण सोबीत अशा घरांत वेवस्थीत लायलें. म्हाका आतां गरज आसली ती आयदनां धुवपी, मुस्तायकी उमळपी आनी घरांत सान्न मारपी बायलमनशेची. हांवें ही

गजाल घरमालकिणीक सांगली. तिणेय बी आपूण कोणूय सोदून दितां म्हूण सांगलें.

एक दीस हांव आनी म्हजो घरकार आमच्या घरांत येवंक घरमालक धांवत धांवत आयलो - 'मुरकुंडे, आपणाला बायको पायजे काय?' ताणें विचारलें.

'ॲ! हो आनी कितें प्रकार?' अशें मनांत म्हणत हांवें घरकाराकडेन पळयलें. इतल्यान घरमालकान फुडें सांगलें,'आपणाला बायको पायजे तर आमचीच घ्या'

'कितें ऽऽ?' हांव किळांचलें.

'आमची बायको फार चांगली आहे. ती आपणाकडेन येवून भांडी घांसते, कपडे उंबळते आनी सान्न मारते म्हणून सांगून गेली. आपण दुसरी बायको बघू नका. आम्ही आमचीच बायको आपणाला देतो.' तो व्हडा खोशेन सांगतालो. हांसो दाबतासर आमकां नाकापुरो जालें. अंती आमी व्हडाव्हडान हांसलीं आनी तो काचाबूल जालो.

अंती म्हज्या घरकारान सांगलें, 'भाऊ, तूं आमकां हे सगळें कोंकणीतल्यानूच सांग. आमकां जाय ती घरकाम करपी बायल मनीस म्हळयार वावराडी. ते खातीर मराठींत 'कामवाली बाई' वा 'मोलकरीण' हीं उतरां आसात. बायको म्हळयार घरकान्न आनी आंतां तूं जें कितें उलयलो ताचो अर्थ कितें जाता तो पळय.'

'ॲ ! खरेंच?' ताका घाम फुटलो. 'तुवें म्हाका सांगलें तें बरें केलें आं... शीऽ शीऽ हें आनी म्हजे घरकान्नीक सांगू नाका आं' म्हणून तेन्नासावन ताणे आमचेकडेन तांबडी मराठी कातरचेली बंद केली.

म्हणून म्हण्टां, कोंकणी आमची आवयभास - देखून तीच आमची राजभास. गोंयकारांक खंयचेच भासेचो दुस्वास ना. गोंयकाराक कोंकणी, मराठी, हिंदी, इंग्लीश, फ्रेंच, पुर्तुगेज, कन्नड इतल्यो भासो येता आसल्यो, तरी आमची आवयभास कोंकणीच आनी तीच आमची राजभास. कळ्ळें?' हांवें सांगले.

आनंद वग्गी रावन गेलो.

# म्हाका भूजिल्ले जादू

एकेक फावट भुरग्यां मजगतीं भुरग्यांसारकें खेळचेली रूच जाण्टयांक येता. कांय फावटी तें सादता जाल्यार कांय फावटी त्या खेळान आपलेंच सोणकूट फोडून घेवंचेले प्रसंगूय येतात.

हांव खूब फावटी म्हजे पर्सींत ल्हान-ल्हान चॉकलेटी दवरतालें. पांच-स वर्सां मेरेनचें भुरगें पळयलें म्हणटगीर ल्हवूच पर्सींतली एक चॉकलेट एका हातांत घेतालें. दोनूय हातांच्यो मुठी करून जादू करतालें. त्या सान भुरग्या म्हऱ्यांत वतालें. ताका सांगतालें 'म्हजे एके बंद मुठींत कितें तरी आसा. खंयचे मुठींत तें सोदून काड आनी तुका व्हर.'

भुरगें उमळशिकेन 'हय' म्हणटालें. मागीर हांव त्यो दोनूय बंद मुठी एममेकांचेर दवरून - 'जादू मंतर, अंतर-मंतर, फू SS मंतर... फूSS मंतर .. फूS मंतर ... फू S मंतर' म्हणून भुरग्याक मुठीचेर फूक मारूंक सांगताले. ताणें फू करतकीर ताका खंयचें मुठींत चॉकलेट आसा तें विचारतालें. भुरगें खंयचे तरी एके मुठीक हात लायतालें. एकेक फावट तेच मुठींत चॉकलेट आसताली. ती हांव ताका दितालें. एकेक फावट दुसरे मुठींत चॉकलेट आसली तरी कितेंय युक्त लडोवन ती भुरग्यान सांगिल्या हातांत हाडून हांव ती ताका दितालें.

एक दीस एक 'लचांड' भुरगें मेळळें. जादू जातकीर ताणें ती चॉकलेट खाली. उपरांत रोखडेंच आण्टी आतां म्हाका आस्क्रीम जाय, जादू कर म्हणूंक लागलें. आण्टीच्या हातांतल्यान जादवान फकत चॉकलेट येता म्हळयार कशेंच आयकना. ताणें इतलो बोवाळ घालो, इतलो बोवाळ घालो - म्हाका खंयसून तरी आयस्क्रीम फैदासून हाडून त्या भुरग्याक दिवचें पडलें.

इतल्यान तरी हांवें शाणें जावंचेलें ! ना, जित्याची खोड मेले बगर वचना. हांव काम करता थंय आनीक एका दुकानार एक बायलमनीस सद्दां आपल्या दुकानार आपले धाकटुले चलयेक शाळा सुट्टकीर घेवन येताली. ते चलयेचें नांव 'बीना'.

पयली शिकपी ते चलयेक जादू करून चॉकलेट दिवन हांव विचारतालें - 'ए बीना, तुजें नांव कितें गो?' तें अबरगतशें दिसपी चली म्हाका पळयनासतना सांगतालें - 'म्हजें नांव बिना.'उपरांत हांव ताका टा S टाS करून वतालें.

एक दीस हांवें घरकाराक म्हळें, 'हे चलयेचो आय क्यू उणो दिसता. ए बीना, तुजें नांव कितें गो म्हणून विचारतकीर तें अबरगत सरळ नांव सांगता.

आण्टी, तुका नांव खबर आसतना तूं विचारता अशें म्हणचना.'
एक दीस हांव तांच्या दुकानार गेल्लेकडेन आवय आशिल्ली पूण बीना नाशिल्लें.
'आयज बीना येवंक ना ?' हांवें विचारलें.
'ताका आयज सुटी' आवयन जाप दिली.
'म्हाका तें आवडटा. ए बीना, तुजें नांव कितें गो म्हळयार कांयच प्रस्न विचारनासतना म्हाका नांव सांगता.' हांवें म्हळें.
'तुका एक गजाल सांगू ? प्लीज, वायट धरूंनाका' आवय सांगचे काय सांगचें न्हय अशें तरेन खांकुडली.
'सांगूच तूं तिका. ना जाल्यार बीनान तिचेविशीं घरा म्हळां तशें लोकांमुखार हांगाच तिका म्हळयार आमकांय वायट दिसतलें' घोवान बायलेक सांगलें.
'कितें जालें? बीनाक म्हजें कितें वायट दिसलें ?'
'ना, वायट दिसूंना. पूण ताणें तुका पिशी आण्टी म्हूण नांव दवरलां'.
'आं!' म्हाका अजाप. 'पूण कित्या खातीर?'
'ते म्हणटा, ही आण्टी एका हातान पयलींच चॉकलेट घेवन येता. ओगीच जादू म्हणून करून फू करूंक लायता. म्हाका चॉकलेट दिवन म्हजें नांव बीना म्हूण खबर आसतना लेगीत - ए बीना, तुजें नांव कितें काय म्हूण आयिल्ले खेपे विचारता. मागीर तिका पिशी आण्टीच म्हणची पडली ना ?'

ती जाप आयकून म्हजो झेल जालो. ते अबरगत चलयेन म्हज्या आय कूयचें खोबरें केल्लें.

पूण इतल्यार शाणें जाल्यार तें हांव कसलें ? जादू करचेल्या म्हज्या वेसनान म्हाका हालींच एक बरो SS धडो शिकयलो. पावसान खूब थंडी जाली आनी जोर आयलो म्हूण दोतोरागेर गेल्लें. थंय You Know बाबा, come बाबा करपी एक बायल आपल्या चार-एक वर्सांच्या भुरग्याक घेवन आयिल्ली. दिसूंक देसेंत, उलोवंक बरी. म्हणटकीर म्हजी भुरग्याकडेन रोखडीच इश्टागत जमली. म्हजे फाटल्यान, तपासून घेवंक तिचो नंबर आशिल्लो. दोतोरान म्हाका तपासून वखदां बरोवन दिलीं. तीं हाडूंक घरकार गेलो. ही तपासून घेवंक भितर वतना सत्री म्हजेसरीं सोडून वचूंक लागली - 'बाय, तुजी सत्री व्हर' हांवें म्हळें. पूण ती तशीच भितर गेली.

भायर येतगीर, 'बाबा, टाटा डू नो' म्हणत 'बाबा'न आमकां टाटा केलो आनी तीवूय वखदां हाडूंक गेली. सत्री म्हजेसरींच.

थंय बशिल्ल्या दुसऱ्या दुयेंतीक हांवें 'आ! ही सत्री विसरली.'

ती परती येतना म्हाका दिसली तशी थंय बशिल्ल्या हेरांक हांवें म्हळ्ळे 'हिका सत्रेची याद तरी उरल्या जाल्यार पळोवया. हांव ही म्हज्या बॅगांत घालतां.'

बायल बाबाक घेवन आयली. दोतोर दुयेंतीक तपाशीत आशिल्ल्यान परतीर म्हजेसरीं बसली. बाबाक 'वन टू, थ्री' करून 'काऊंट नो बाबा' म्हूण शिकोवंक लागली.

बाबाक केन्नाकाय सत्रेचो जादू करून दाखयतां अशें म्हाका जाल्लें. हांवें म्हळें 'बाय, तुंजी सत्री गो?'

'आ ! सत्री ! सत्री हांगाच आसली तूं बसल्या थंय' तिणें म्हळें आनी कितें जाता म्हूण कळचे पयलींच म्हजी लाब पिशवी म्हज्या हातांतल्यान फर्रऽ करून ओडून घेवन ती उक्ती करून आपली सत्री काडून सगल्यांक दाखयली.

'पळयात, पळयात ही बायल कसली ती ! म्हजी सत्री तुज्या बॅगांत ? फ. फा. फि... ते फं... फः....' तिच्या जादवामुखार म्हजो जादूच न्हय तर आमी सगलींच शेळेलीं. सगलींच तिका अजापान पळोवंक लागली.

'हांवें म्हळें - बाय, ह्या सगल्यांक ही सत्री दाखोवन तुका याद आसा जाल्यार पळोवंक हांवें ती बॅगांत घाल्या. पूण म्हाका चोरचेलीच आशिल्ली जाल्यार हांव तुका सत्रेची याद करून कित्याक दिवचेलें? तुका सत्रेचो उगडास लेगीत नासलो.'

'तें आनी excuse दिवं नाका. कितें समजुचेलें तें हांव समजलीं.'

'आसत. पूण हांव मात तुका एक बरी बायलमनीस अशें चूक समजलें. तूं सत्री विसरल्या, आसत म्हूण तुका उगडास करूंक गेलें. म्हाका हेंच फावता.'

'जाणां जाणां, आतां ओगें राव तोंड धांपून', तिणें सांगलें.

Thank you madam. I really misunderstood you for a good lady. एक बरी वागपी, इंग्लिश तापोवपी मनीस एकदम एके सत्रेखातीर इतली वायट वागूंक शकता हें आयज हांव हांगा शिकलें.' म्हाका इंग्लिश येता हें पळोवन ती बरीच न्हिवली.

बाकीचे गवाय आशिल्ले लोकूय हांवें केलें कितें आनी जालें कितें तें पळोवन हांसूंक लागले. 'आयज तुमीय कितें तरी शिकले आसतलेच' हांवें तांकां पळोवन म्हळें.

'हय तर, खूब शिकलें' तांणी हांसून म्हळें.

तें आयकून आपलें वागप खंय तरी चुकलें काय कितें अशें ते बायलेक खीणभर दिशिल्ल्याचो म्हाका भास जालो.

म्हाकाच चोर थारावपी ह्या जादूच्या प्रयोगांतल्यान आतां तरी हांव शाणे जाल्यार खूब जालें !

# सभावाक वखद ना

सभावाक खंय वखद ना ! मनशाच्या विगंड विगंड मुखांमळा सारकेंच विंगड विंगड सभाव. संवसाराचो हुस्को करप म्हळयार किते तें आण्टीकडल्यान शिकचें. हुस्क्यान मरपी बायल म्हणून आण्टीचें उदाहरण बरें 'आण्टी, कितें, कशी आसा?' ह्या प्रस्नाची जाप.

- 'ह्यां संवसारांत आनी कितें म्हूण आयकुचें पडटलें देव जाणा. मडगावां कोंबात सांजेसर चार वरांचेर दरवडो पडलो खंय ! आनी मांडपांत एकाच रातीं दोन घरां फोडलीं खंय ! म्हाका न्हीद पडना सायबा, म्हाका न्हीद पडना. होतो कोण ? वळखीचो दिसना. घडये आता खंयचे घर फोडचे तें हेरून दवरून रातयां फोडटले जावंये. आमच्या घराकडेन पळेता काय कितें ?'

'आगे, इतलो हुस्को कितें करता?' ह्या प्रस्नाक जाप येताः

'हुस्को ? ह्या संवसारांत हुस्को करपा बगर आनी कितें आसा ? म्हाका न्हीद पडना म्हूण दोतोराकडेन गेलीं ताणें कसल्यो न्हिदे-गुळयो दिल्यो जाणा ? चोरांनी अख्ख्यें घर धुवन व्हेल्यार लेगीत जाग येवचेली ना. देखून गुळयो बंद केल्यो. हो ऽऽ तो कोण काय ? म्हज्या घरादिकेन पळोवन उलयता. सेर्त कितेंय तरी शिजता.

आण्टीचो हुस्को करचेलो सभाव इतलो प्रभावी आसा, की त्यो गजाली आयकतल्याक ते रातीं कशीच न्हीद लागपाची ना.

कम्लाकडेन उलोवप म्हळयार आपल्याच पायार फातर मारून घेवप.

'जाणा मगे, तूं ते सुशीक लागीं करनाका आं. ते न्हय, बोट दाखयल्यार हात गिळटा. पयर तुमच्या पोरसांतलीं फुलां काडटना पळयलें. पयली फुलां बुड्टिलें, उपरांत फळांचेर हात मारतलें. एक फूल वा फळ काडटना चार ताळयो मोडून घालतलें. ताका लागी करूंनाका.'

'अशें ? बरें केलें सांगून' अशें म्हणून कमलाचे उलोवणें आयकून सुशी पसून चार हात पैस रावचेल्या यत्नांत आसतनाच सुशी येवन विचारता. 'हय गे, तूं सांगतालीं खंय हांवे पयर फुलां वांगडाच तुजीं फळांय बुडून व्हेली म्हूण ?' कमलाचो सभाव नकळ आशिल्लीं धपक्यक बळी पडटा.

तो साप्प आळशी.

'आज करे सो कल कर, कल करे सो परसो

**इतनी जल्दी क्या है भाई,**
**जब जीना है बरसो**
**ही ताची फिलोसोफी.**

तो एकटो बंडला मारपी. 'आरे, तुवें हो फ्रीज हाडला? शे ! शे! म्हाका सांगचेलें न्हय ? हांव तुका म्हज्या मित्राचे वळखीन हाचे परसूय सवाय दरान इंपोर्टेड फ्रीज हाडून दिता आसलो.' आयकतल्याचें तोंड बावता आणि आपणे ताका सांगनासतना फ्रीज हाडिल्ल्याचें ताका दुख्ख जाता. उपरांत मिक्सर हाडचेल्या वेळार जेन्ना तो ताका सांगता तेन्ना 'म्हजो फ्रेंड रोखडोच येतलो. ताका हांवें हाडूंक सांगला' ही उतरा वर्साची वर्सा आयकुची पडटात तेन्ना आयकुपी उठ्ठा आनी बाजारांत वचून मिक्सर घेता. तो मिक्सर वापरून कितलेशींच वर्सा जाली तरी ताचो मित्र इंपोर्टेड मिक्सर घेवन येना.

ती बायल खूब विनोदी. आता जाण्टी जाल्या. पूण जित्याची खोड मेले बगर वचना. ती खंय वता थंयचे वातावरण रोखडेंच खेळीमेळीचें जाता. लोकांचे मनोरंजन तर जाताच आनी तिच्या सभावाक लागून लोक तिका बरे तरेन येवकारूय दिता. एक दीस एका लग्नसमारंभांत ती मेळ्ळी.

'आगो, तुका कितली भुरगीं?' म्हज्या शेजरा बशिल्ल्या विमलाक तिणें विचारलें.

'दोन काकीबाय, दोनूय चलयोच' विमलाची जाप,

'काय नजो. म्हाका चार चलयो. पूण हाचेवयल्यान पयलींची एक गजाल याद जाली. एकदीस म्हाका म्हजी इश्टीण मेळ्ळी. तिणें म्हळें, 'आगो, हें कितें? तुका चारूय चलयोच ? हांव चलेकान्न, म्हाका चारूय चलेच. आतां तूं म्हाका तेंक, हांव चलेकान्न म्हण म्हाका तेंकल्यार घडये तुका चले जायत.'

'मागीर तूं तेंकली काय ना तिका?' विमलाचो प्रस्न.

'तेंकली तर, तेंकलीं! पूण उपरांत कितें जालें जाणा ?' आनी काकीबाय हांसत रावली.

'आगे, कितें जालें?' विमल.

**'म्हाका काय आनीक भुरगीं जालीं नात; पूण... पूण तिका मात ओळीन चार चलयो जाल्यो!'**

# असोय एक बस प्रवास

दूरसे देखा, तो सूरज डूब रहा था,
दूरसे देखा, तो सूरज डूब रहा था,
नजदीकसे देखा तो टकलू नहा रहा था ।

देड वराचेर सुटपी ते बसींत हांवे कसोतरी शिरकाव करून घेतिल्लो. लोकांनी धुकळिल्यान हांव आपसुकूच त्या शाळेंतल्या भुरग्यांशेजरा पाविल्लें. इतल्यांनत ही वयली शायरी आयकली. सगळीं जाण्टीं, भुरगीं हा ऽ हाऽ हीऽ हीऽ करून हांसूक लागलीं. तातूंत सामील जालेबगर म्हज्यानूय रावंक नजो जाले. त्या हांशाभरशीं आतांमेरेन जाल्ली कामाची दगदग खंयचे खंय नाच्च जाल्ली..

'ए, आतां हांव तुमकां एक विनोद सांगतां' ताचे शायरीक दाद मेळिल्ल्यान त्या चल्याक आत्मविश्वास आयिल्लो.

'सांग, सांग, बेगीन सांग' कितलेशेच आवाज आयले, ताणे विनोद सांगूंक सुरवात केली. 'एक चार मजली इमारत आसता. एक दीस तिका उजो लागता. सगळे लोक धांवत धांवत इमारतींतल्यान भायर सरतात. पूण तिसऱ्या मजल्यार रावपी एकटो त्या वेळार न्हातालो. किळच्यो, हुयेली मारत ताच्या घरांतलींय घरांतल्यान धांव मारतात. इमारतीक उजो लागला हें ताकाय कळटा. देखून तो ओल्या आंगाचेर तसोच तुवालो गुठलायता आनी मान्न्यांतल्यान भायर सरता. पळेत जाल्यार कितें ? अख्खी इमारत जळटा. तो बाल्कनींत येता आनी व्हडाव्हडान बोबो मारता, आतां हांव मेलों. म्हाका कोण वाटायतलो?'

उजो पालोवपी दळाक आपोवणें धाडिल्लें आसता. पूण तें पावचे पयलीं ह्या मनशाक कसोयतरी वाटावंक जाय. अशें चिंतून सात-आठ जाण धांवत वचून खंयच्यान तरी एक घटशें जाळें हाडटात. धा बारा जाण तें जाळें घट धरून उबे रावतात आनी आड्डून ताका सांगतात,

'हातूंत बेगीन उडी मार'

'तुमी ते सारके धरलां मरे? नाजाल्यार हांव जमनीर आपटून मरतलो.' वयलो मनीस म्हणटा.

'तूं भियेवंनाका. आमी हे जाळे घट धरला' अशें म्हणून ते लोक ते जाळे आनिकूच तायट धरतात. वयलो मनीस तातूंत उडी मारता.

'मागीर कितें जाता?' एका चल्यान मदींच विचारलें.

'मागीर कितें जातलें? जाळे चडूच तायट आशिल्ल्यान तो वयलो मनीस

जितल्या फोर्सान जाळयांत पडटा तितल्याच फोर्सान वयर उडून आपले बाल्कनींत उबो जाता. अशे तीन चारदां तरी जाता. अंतीं कोण तरी युक्ति करता. हें पळयात, जाळयाक फेव्हिकॉल लायात. तुमी जायरात पळोवंक ना? फेव्हिकॉलान चिकटायिल्ली वस्त केन्नाच सुटना. जाळयेक फेव्हिकॉल लायल्यार हो मनीस जाळयेक चिकटून उरतलो.'

सगळयांक ती युक्ति मानवता. ते बेगोबेग फेव्हिकॉल हाडून जाळयेक थापतात.

'आतां मार उडी. तूं कसो वयर वता पळोवया.' ते म्हणटात.

वयलो मनीस परतोय उडी मारता. आनी कितें? ..... हीऽ हीऽ हीऽ हीऽ विनोद सांगपीच हांसता.

'आरे, आमकां सांगचे पयलींच तूं हांसता?' एक भुरगो विचारता.

'आनी कितें जाता जाणा? त्या मनश्याचो तुवालो फेव्हिकॉलाक लागून जाळेक चिकटता आनी तो मनीस बर्थ डे सुटात आशिल्लो तसो आपले बाल्कनींत उबो जाता.'

सगळी बस हांसता.

'ए, आनीक एक ज्योक सांग रे' ताका भुरगे आग्रो करतात.

'सागूं? सांगतां तर. एक दीस टिचर एके चलयेक पुस्तकांत बरयिल्लो सोपूत म्हणूंक लायता. तें म्हणटा, 'भारत म्हजो देश, सगळे भारतीय, सोडून एकटो, म्हजे भयण-भाव.'

टिचर म्हणटा 'आगो, 'सोडून एकटो' हे हांगा खंय बरयलां ?

चली म्हणटा, 'टिचर, तें थंय बरोवंक ना. पूण सगळेच भारतीय भाव म्हळयार म्हाका घोव खंयचो?'

परतेंय खीऽ खीऽ सुरू जाता.

'ए बरें रे, म्हजो देवचेलो थांबो आयलो' तो भुरगो बेगिबेगीन उठ्ठा.

'ए, वतां वतां एक शायरी म्हण रे' भुरगे ताका आग्रो करतात.

आपले दप्तर हातांत धरून दाराचे दिकेन धांवता धांवतां तो चुणचुणीत भुरगो म्हणटा -

कश्मीर के अंगूर खट्टे लगते हैं,
कश्मीर के अंगूर खट्टे लगते हैं
मेरी शायरी सुननेवाले उल्लू के पट्ठे लगते है ।

बसींतले भुरगे गोंदळ घालून बस माथ्यार घेतात आनी बस थांबली तशी उडी मारून तो धांवूंक लागता.

# बाये ऽऽ घोव

आपल्यो भावना उक्तावंक मनीस दोळे, हावभाव आनी उतरां हांचो आदार घेता. कसल्यो भावना मनीस खंय आनी कशे तरेन उक्तायता ताचेर मनीस मनशां जोडटा वा तोडटा. तोडप सोपें, जोडप कठीण. त्याच प्रमाण कितेंय आनी कशाय कशें उलोवप सोपें. मनीस बरोऽ न्हशिल्लो आसूं वा नासूं, ताणे उलोवंक सुरवात केली म्हणटकीर ताचो वैचारीक, सांस्कृतीक पावंडो, खंयचो, तें बेस बरें कळटा. देखून उतरां हीं म्हत्वाचीं थारतात.

आमच्या भुरगेपणांत गाळी घालप हें उणाक मनशाचें काम मानून घेतिल्ल्यान 'पाड पडूं' हें उतर म्हळयार लेगीत आमका धेंगसो पडटालो. म्हजे धुवेचेर लेगीत हांव तशेच संस्कार करूंक सोदी. धूव सान पिरायेची आसतना एक असली शेजान्न मेळ्ळी, जी गाळी शिंवर करी. तिनसांजे वेळार आपल्या पुताक घरा आपोवंक तिचीं उतरां हीं अशीं - 'आरे प्रकाश, पाडा घाल्ल्या, मेल्ल्या, चांडाळा, खंय रे तुजी वार पुरल्या? अजून खेळून जायना? दळदिऱ्या, चेडयेच्या तूं घरा योच, तुका जितोच पुरतां काय ना पळय.'

हांवें जेन्ना पयलेच फावट हीं उतरां आयकलीं, तेन्ना हांव आयतकच रावलें आपल्याच पुताक 'चेडयेच्या' म्हणप ! बऱ्या घरांतली, शिकिल्ली-सवरिल्ली बायल अशें उलोवंक शकता? त्याचवांगडा म्हजी सान धूव त्यो गाळी शिकत हिवूय भिरांत जाल्ली.

एक दीस धुवेन खेळून येतकीर उमेदीन म्हाका म्हळें 'माँ, पाड पडूं!'

हांवें आनी वेळ केलो ना. सप्क करून पांयांचेर एक वाजयत विचारलें - 'कितें म्हळें गो तुवें?'

धुवेक समजलें, आपलें बरेंच कितें तरी चुकलें. ताणें रोखडेच पान परतीत म्हळें 'माँ, पान पडूं, हांवें पान पडूं, म्हळें. पूण माँ ती शेजारची आण्टी.....

आण्टी म्हणता तें आमी म्हणप ना. ती गाळी घालता म्हळयार वायट वायट उतरां दिता तें शिकप ना'.

पूण संवसार बदलत रावता. आमच्या भुरगेपणांत साप्प वगळावचेल्यो गाळी आयज समाजांत गरजेच्यो थारल्या देखून म्हाका 'गाळी - उतर - कोश' असो कोश साप्प गरजेचो दिसता. ते खातीर खास संशोधन करूंक जाय आनी खूब खोलायेन अभ्यास जावंक जाय. गाळी आयकुचेलें आनी सणसणीत गाळी

खावंचेले तंत्र आत्मसात केले बगर आयच्या गोंयांत तरी जीण शक्य ना अशा निश्कर्शाचेर हांव पावलां.

पयर एक खबर वाचली, ती म्हळयार एकेकडेन कांय नगरसेविकांक नगराध्यक्षांच्या कॅबिनांत कांय लोकांनी पोजडीं उतरां आयकयलीं. म्हळयार आयज नगरसेविका जावन बरे तरेन काम करतलीं जाल्यार पयलीं गाळी आयकुचेली मनाची घटसाण दवरूंक जाय.

एका प्राचार्यान सांगले, आपणाक एकल्यान फोनावयल्यान असलीं पोजडीं उतरां आयकयलीं, जीं बायल भुरग्यांमुखार सांगचेलीं न्हय. उपरांत आपणेय बायल भुरग्यांक दुसरेकडेन वचूंक सांगून त्या गाळी घालप्याचेर उंटगाराच्या पावसावरी गाळी शिंवर केलो. तरी बरें प्राचार्याकडेन गाळींचो भरपूर स्टॉक आशिल्लो म्हणून. नातर कॉलेजीचो प्राचार्य आसून लेगीत ताचेर त...प....प... करून हार खावंचेलो प्रसंग येवंचेलो.

तात्पर्य, आयज जर प्राचार्यांक लेगीत गाळींचो आदार घेवचो पडटा. जाल्यार आमच्या सारक्या सामान्यांचें कितें! देखून तिनसांजे 'शुभम् करोती कल्याणम्' म्हणून देवाक नमस्कार केलो तरी दिसाचो 'गाळी-कोश' करचेलें काम हांवें मानार घेतलें. बी.ए. च्या तिसऱ्या वर्साक तर 'गाळी-कोश' हो कोणेय प्रोजेक्ट करचोच आनी तो पुस्तक रूपान उजवाडावचो अशेंय मनांत आयलें.

पूण एका विशिश्ट संस्कारान पन्नाशी वलांडिल्ल्या मनशाक अचकीत व्हडल्यो व्हडल्यो अस्सल गाळी कशो येतल्यो? मुळावें शिकप जालेबगर कांय कोण पदवी घेवंक शकना? देखून साद्यो, सोप्यो आनी सुटसुटीत अशो कांय गाळी हांवें घरातल्या घरांत वापरूंक वेंचूक काडल्यो. हालीं तेपावयलीं 'बाये ऽऽ घोव' ही गाळ म्हाका घोस्ताक गेली. धुवेक हांवें सगल्या सगल्या वस्तुस्थितीची जाणविकाय दिली आनी 'गाळी-म्हत्व' पटोवन दिलें. माँच्या बऱ्या खातीर आनी आपल्या फुडाराखातीर ताणेय म्हाका मेळटा तेन्ना 'बायेऽऽ घोव' उतर वापरचेलें उतर दिलें.

मागीर कितें, 'बायेऽऽ घोवा' बगर एकूय वाक्य जायना जालें.

- हो पावस एक ज्युस्त आमी भायर सरचेवेळारूच पडटा. हाचे बायेऽऽ घोव.

- अंदू पावस साप्प उणो. एक दीस पावस चार दीस कडकडीत वत म्हळयार सगल्यांचे भलायकेचो 'बायेऽऽ घोव.'

मडगांवचे एक नुस्त्या मार्केट गेलें आनी अख्खेमडगांवूच नुस्त्या मार्केट जालें. हांचे

‘बायेऽऽ घोव’.

-वीस वर्सां फाटीं गांधी मार्केटांत कशीच वचचीना म्हणून धुशमणां कांडपी नुस्तेकारां आतां थंयूच वचूक धरणी धरतात हांचे ‘बायेऽऽ घोव’.

-भायर इतलो पावस पडटा आनी घरांत नळाक उदका ना हांचे ‘बायेऽऽ घोव’.

-जालें, गरजेक फोन डॅड! हाचे ‘बायेऽऽ घोव’ अशे तरेन ‘बायेऽऽ घोवा’ च्या जयजयकारान आमचें घर गाजूंक लागलें.

एक दीस रामनीर्थी वचूंक शेजान्नीची टॅक्सी आपयली. शेजान्नीक सगळीं बाय म्हणटात. बायेचो घरकार स्वतः टॅक्सी चलयता. आमचे मजगतीं आपलेपण आशिल्लयान आमी एकामेकांगेर येतात. वतात. आनी एकामेकांक समजून वागतात. बायेचो घरकार आयलो. हांवें ताका आपोवन भितर बसयलो. आमची वचचेली सगळी तयारी जाल्ली. फकत जनेलां बंद करून दाराक कुलूप घालचेलें उरिल्लें. रांदचे कुडींतली जनेला बंद करतां करतां म्हजो पांय बुकीन आतांच मारून हाडून उडयल्ल्या हुंदराचेर पडटा काय जालो, आनी सर्कस करतां करतां हांव आड्डलें - हो एक बुकी, आतांच हाका हो हुंदीर हाडून उडोवंचेलो येवजलें हाचे ‘बायेऽऽ ... ’’ आनी हांवें भायर बशिल्ल्या बाये घोवाच्या भंयान म्हजी जीब चाबली.



# सवती - आवय

माँ रामाच्या सवती आवयांची नांवां कितें गे ?' धुवेन म्हाका प्रस्न विचारलो.

'रामाच्या सवती आवयांची नांवां गो ? - सुमित्रा आनी कैकयी' हांवें सांगलें. आनी अचकीत कितें जालें कोण जाणा ! सोदा बाटलेंतल्यान फसफसून भायर येवपी सोदावरी म्हाका भुरगेपणांतल्यो यादी येवंक लागल्यो....

तेदेवेळार घडये हांव मराठी दुसरी शिकतालें जावंयें. एक दीस मास्तरान आमकां रामायणांतल्या रामाची काणी सांगूंक सुरवात केली..... 'आनी कितें जाता जाणा ? रामाची सवती आवय, कैकयी हट्ट धरता. ती म्हण्टा की भरताक राज्य दिवचें आनी रामाक चौदा वर्सां वनवासाक धाडचो. दशरथ राजान कैकयीक वर दिल्ले आसतात. तिका जायतें तिणें राजाकडेन मागचेलें. कैकयीच्यो ह्यो दुश्टपणाच्यो मागण्यो दशरथ राजाक मान्य करच्योच पडटात. दशरथ रामाक त्रास भोगचे खातीर वनवासाक धाडटा. आपल्याच उतरांनी बांदिल्ल्या दशरथाचो नाइलाज जाता...... ' मास्तर सांगतालो.

हरशीं म्हाका शाळा आवडटाली. पूण गणित विशय म्हजो महाशत्रू. देखून केन्ना केन्ना शाळेक दांडी मारची शी दिसतालें. तेदेवेळार आईन शाळेंत धाडप म्हळयार गणिताचे त्रास काडूंक धाडिल्लेवरी दिसतालें. मास्तरान सांगिल्ली रामाची काणी आयकून त्रास म्हळयार वनवास आनी आईन म्हाका शाळेंत धाडप म्हळयार वनवासाक धाडप अशें समीकरण म्हज्या बालमनान केलें.

रामाची ही काणी आयकुचे आदल्याच दिसा हांवें एक कर्म केल्लें. गणिताचो गृहपाठ करचो पडटलो म्हणून गणिताचें पुस्तक प्रदीप नावांच्या म्हज्या एका वर्गइश्टाक दिल्लें घरा येतकूच गृहपाठ घेवचेखातीर आईन गणित पुस्तकाविशीं विचारलें. हावें व्हडा उमेदीन तें पुस्तक इश्टाक दान केल्ल्याचें सांगलें. आई सामकीच तिडकली. 'गणितांत तुजो पयलींच उजवाड आनी तांतूत पुस्तक लेगीत दुसऱ्याक दिवप? ज्याय ज्या वचून पुस्तक हाड' आईची ओर्द. हांवें निरूपायान गणितांचे पुस्तक हाडून झक् मारीत गृहपाठ केलो. रामाक त्रास काडूक वनांत धाडपी आनी म्हाका गणितां करूंक शाळेंत धाडपी आवय हातूंत म्हाका साम्य दिसलें. हांवें रोखडेंच वर्गांत इश्टिणींकडेन जाहीर केलें : 'म्हाकाय सवती आवय आसा'.

म्हजीं हीं उतरां जादूचे कांडयेवरी जालीं. सगळया चलयांक म्हजी काकुळट दिसली. खिणाभितर कोणें म्हाका चॉकलेटी दिल्यो, तर कोणें खडू. एकल्यान देवळाकडल्या करमलाच्या झाडांची पुंजयिल्लीं करमलां दिलीं, तर एकल्यान बेगडी दिल्यो. पेन्सिली, खोडरबर, बेगडी, चित्रां, जाळीदार पिपळापानां असल्या वस्तूंनी

म्हजी गिरेस्तकाय वाडली. 'सवती-आवय महात्म्य' हांवें पयलेचदां अणभविल्लें. हांव फट उलयल्लें. पूण फट उलोवपांत इतले फायदे आसतात. होवूय बी एक नवोच अणभव! आतां गणितविशयाचें मनार घेतलेंना जाल्यार शाळेंतलो वनवास सुखाचो जातालो. कांय दीस अशेच आनंदान गेले.

एक दीस एके इश्टिणीन सांगलें की शाळा सुटले उपरांत ताची आंवय म्हाका मेळची आसा. देखून हांवें शाळा सुटचेली घांट वाजनाफुडें घरा धावचें न्हय म्हूणथारायले हांव खोशी जालें. म्हाका खात्री पटली की ती म्हाका कितेंय तरी खावंक घेवन येतली. म्हजे सवती-आवयक लागून तिकाय म्हजी काकुळट दिसली आसुंये. शाळेंतल्यो इश्टिणीच सवती-आवयक लागून इतलो उपाट मोग करतात जाल्यार तांच्यो आवयो म्हजी कितली अपुरबाय करतल्यो ! म्हजो मनरूपी मोर थुयथूय नाचूंक लागलो. शिंपल्यांनी तोंड आं करून-स्वाती नखेत्राची उमळशिकेन वाट पळोवची तशीच हांव घांट जावचेली वाट पळोवंक लागलें. आनी तो खीण आयलो. .....

घांट जाली. सगळीं भुरगीं दप्तरा घेवन धांवत सुटलीं. म्हजी इश्टीण आनी हांव दोगांय वर्गाच्या सोपणांचेर आयलीं. इश्टिणीची आवय आयली. हांव तिच्या हातांत खंय डबो वा खावंक बांदिल्ली पुडी दिसता काय म्हूण पळेताले. इतल्यांनत तिणें म्हळें, 'म्हाका दिशिल्लेच! आगो तूं गो ? तुजे आवयचे नांव कितें गो?' तिणें विचालें.

म्हाका कच्च जालें. एकवटेन तिचे रिते हात पळोवन दुख्ख जाल्लें आनी दुसरेवटेन हो नाका जाल्लो प्रस्न.

'तू अनुसुयेलें मगो? तिच्या प्रस्नान म्हका शेळो घाम फुटलो.

'देवा सायबा! ही म्हजे आईक वळखता दिसता! तिच्या प्रस्नान रडूंक पाविल्ल्या हांवें मनांत म्हळे.

'ओगीशें रावलां? तुजे आवयचे नांव अनुसूय मगो।' तिणें आवाज चडोवन विचारलें.

'हय' हांवे कशी तरी जाप दिली. म्हजें काळीज फुट्टा काय दिसतालें. एके वटेन भियेवन रडूंक येतालें जाल्यार दुसरे वटेन म्हजीं फटिंगपणां भायर सरून इश्टिणीनी दिल्ल्यो बेगडी, खडू, पेन्सिली, परत्यो करच्यो पडत हो हुस्कोय दिसतालो. धरती मातयेन खंय दुभंगून सीतेक पोटांत घेतली आनी नाच्च केली. तशेंच कितें तरी घडून ही इश्टिणीची आवय नाच्च जावची अशें म्हाका दिसलें.

'म्हाका दिशिल्लेंच तूं अनुसुयेलें म्हणून. चल हांव येतां तुजे वांगडा घरा.हांव वळखतां अनुसुयेक. ती तुजी सवती आवय मगो?' ह्या उतरांसरशी हांवे व्हडाव्हडान

रडूंक सुरवात केली.

'येवूं गो तुमगेर?' तिणें जितलें धमकायलें तितलेच मायेन म्हऱ्यात ओडीत म्हळें. 'पूस तें नाक आनी दोळे. हांव येना तुमगेर. पुण अशें फट उलोवप बरें न्हय.' हांवें नाक ब्लावजाच्या उजव्या हातांक सारयले. आनी काकुळटेन तिचेकडेन पळयलें. तिणें खऱ्यानीच समजावणेचेरूच सोपयले. म्हजें हें बींग भायर सरत म्हूण कायं दीस हांवें शाळेंत आनी घरांत हुस्क्यान काडलें. हांवें म्हाका नाशिल्ले सवती आवयचे कांय दीस त्रास भोगले आनी ल्हवुल्हवू तें प्रकरण सगळींच विसरून गेलीं.

# क्योंकि सास भी कभी बहू थी

शालीबायन रातचे बाराचे टोले वाजिल्ले आयकले आनी परतीय कूस परतिली. आयज रातचीं बारा जालीं तरी तिच्या दोळ्याक दोळो लागना. सगलें घर कशें न्हिदलां! आपूण मात तळमळटां. घोव तर दुसरे कॉटीचेर तालासुरांत घोरेता. हेरशीं ताचें घोरेवप जाणवना. पूण आयज न्हिद लागनाशिल्लेकडेन घोवाचे घोरेवणेच चड त्रासाचें दिसता. मनस्वास्थ्य इबाडिल्लें शालीबाय दोळे धांपून येवजिता.

दोन-दोन वर्सांच्या अंतरान जल्मल्ले तिगूय पूत आतां व्हडले जाले. अठ्ठावीस वर्सांचो मिलिंद लग्न जावन पांच दीस जाले, ते जोडपें हनीमुनाक गेलां. धा एक दिसांनी ती दोगांय येतली. घरांत एक नवें मनीस-सून आसतली. गिरेस्त घरांतली, आवयबापायची एकटीच धूव..... कंप्युटर इंजिनियर जावन म्हयन्याक हजारांनी पगार जोडपी, घरा-दार गाडयेसयत आयिल्ली सून.... नाकापरस मोती जड थारतलें काय? आयज शालीबाय 'सास' म्हळ्यार मांय जाल्ली. तिवूय बी केन्ना तरी सून म्हणुनूच ह्या घरांत आयिल्ली. सून... सुनेचे विचार आपले तकलेंतल्यान कशेच कित्याक वचनात तें शालीबायक कळनासलें. आपणें सुनेचो इतलो धसको कित्याक घेतलो ? शालीबाय चिंतूक पडली. ती एकटीच, अपुरबायेची, गिरेस्त, गाडये वांगडाच घरदार घेवन आयिल्ली म्हणून बी आपूण वांकता काय? ना.... ना... ना... खयं तरी अंतमर्नातल्यान आवाज आयलो.

आपूण सुन म्हणून घरांत आयिल्ली ते दीस शालीबायक याद जाले. दोट्टी गोंट आनी वज्रावेडी हांचेमुखार मांय खंयतरी तृप्तशी जाल्ली. पयल्याच दिसा रांदचे कुडींत पावल दवरून 'ए वन चिकन आनी सुरबूस पुलाव' करून शालीबायन देर, नण्डांचीं मनां पोटातल्यान जिरिवल्लीं. शालीबायच्या सुगरणपणा सामकार मांय फाटीं पडिल्ली आनी हाचो फायदो घेवन शालीबायन मांयक जल्मभर झिगझिगायिल्ली, आपल्या तालार नाचयल्ली.

शालीबायचे मांयच्या हाताक मातूय सुवाद नासलो. तिणें कितलोय जीव धाडायलो तरी जेवणाचे जिनस तितले बरेऽऽ जायनासले. देखून तिणें शालीबायचें वर्चस्व मानून घेतलें. आनी शालीबायच्या हाताखाला कामां करूंक सुरवात केली; गॅसाकडेन जेवण रांदचेलें काम शालीबायन करचेलें. आनी हेच गजालीचो नेमको शालीबायन गैरफायदो घेतलो.

'चार लोक पोटभर जेवंक जाय जाल्यार म्हाका बाये रांदूक जाय' म्हणत

शालीबायन मांयक येतिश्ट घश्टून घेतली. जेन्ना केन्ना वावराडी येना आशिल्ली, तेन्ना तेन्ना सरसकट सगळें उदक हाडचेलें काम मांयच्या हड्ड्यार घालून ती - 'चार लोक पोटभर जेवंक जाय जाल्यार म्हाका बाये रादूंक जाय' म्हूण गायत हेर कामाक कूस मारताली.

शालीबायचे चले तर ल्हान आसतना आजये कुशीकच आसताले. तिणेय तीं नातरां जाणून तांचे अपुरबायेन केलें ही गजाल वेगळी. धाकटो चलो तर सात-आठ वर्सांचो जातकीर शालीबाय वेपारानिमतान वेगवेगळया राज्यांनी वचपी आपल्या घारकारा वांगडा आठ आठ दीस वताली. अशेच दीस गेले, अशींच वर्सां गेलीं. देरांचीं लग्नां जावन तांणी दुसरेकडेन संवसार थाटलो, नण्डो लग्न जावन आपापल्या घोंटेरांनी गेल्यो. भुरगे तरणाटे जाले, तरणाटे मध्यम पिरायेचे जाले, जाण्टेले म्हातारे जाले. आतां शालीबायची मांय म्हातारी जाल्ली. तिच्यान काम जायनासलें. पूण तें समजल्यार शालीबाय ती कसली!

सत्तरी वलांडिल्ले मांयन केन्ना केन्ना म्हणचें - 'म्हज्यान आतां नजो काम जायना.' शालीबायन सट् करून जाप दिवची, 'फकत काम करूंक नजो. इतलेंऽ इतलें ऽ गिळूंक मात बरें जाता?'

शालीबायचे मांयच्यान आतां खरेच काम जायनासलें. ती पिर्गंत पिर्गंत सुटना म्हणून काम करताली. पूण शालीबायच्या सुवार्थी आनी कामचुकार सबावान तें कशेंच मानून घेतलें ना. उरफाटें ती तरतर तोरो करून मांयचें उणेदुणे काडून, तिका चार चौगांत लज करून उणाक दाखोवपाक व्हडपण मानताली.

आनी... आनी एक प्रसंग तश्शाक तसो दोळयांसामकार उबो रावन शालीबायचो आवरो उडलो. मांय मरचे पयलीं आठ धा दीस आदीं घडिल्ली घडणूक. वीज गेली म्हणून मांयक वांनार वांटूक बसयिल्ली. आंग सुजिल्ली मांय 'म्हज्यान नजो, म्हज्यान आतां नजो' करीत पिर्गंत पिर्गंत वांनार वाटूंक लागली. शालीबायक तिची तिडक मारली. 'म्हातारपणांत इऽऽतले इऽतले गिळूंक जाता? बशिल्लेकडेन वांनार वाटूंक येना? असल्या मनशांनी म्हातारपणांत आपल्या धुवांगेर वचून रावचेलें-धुवांगेर. सुनांसरी न्हय.'

तो प्रसंग याद जावन शालीबाय फट् करून हांतरूणातली उठून बसली. मांयच्या म्हातारपणांत आपणें तिका धुवेसरीं धाडून दिल्ली.... आपल्याक तर तिगूय पूत. तेन्ना आपूण सून आसली, आयज मांय जाल्या. आपली सून घरांत आयल्या. शालीबायक कडकडो भरलो. ती तडक उठली आनी मेजार दवरिल्ले बाटलेंतले उदक गटगट पिवंक लागली, क्यों कि ..... सास भी कभी बहू थी ।

# काळखांतल्यान समतेकडेन

नमस्कार आजी दूरदर्शन केंद्रावेल्यो कार्यावळी आतां सुरू जाता. सुरवेक पळेयात सरपंच श्री खादीबाब हांगेली बाय हांणी घेतिल्ली मुलाखत उपरांत 'कुयो कुयो' तर आतां पळेयात सरपंच श्री खादीबाब हांची मुलाखत.

बाय - सरपंच श्री खादीबाब तुमी राजकरणांत कित्याक शिरले ते सांगशात?

श्री खादीबाब - ते अशें जालें, की शिकून पदव्यो घेवन बेकार फिरचे परस राजकारणांत शिरल्यार बरो फुडार आसा म्हणपाचे दिसलें. जनतेची सेवा करतनाच घर भरूं येता. हे हांवे हालीच राजकारणातल्यान शिकून घेतले. देखून हांव राजकारणांत शिरलों.

बाय - पूण तुमी पयलीं पंच म्हूण कशे वेंचून आयले तें सांगशात?

श्री खादीबाब- हांवे घराघरान वचून लोकांक सांगले की आज मेरेन एकूच पंच तुमची सेवा करत करत गडगंज जाला. आतां म्हाका संद दियात. हांव म्हजे नावांप्रमाण खा-दी करतलों फकत म्हजो सुवार्थ सादचो ना. वेचणुकें पयले दिसा हांवे हांगाचे तावेर्नात फुकट पिवपाची सोय केली आनी प्रत्येकी पांचशें रुपया हातार दवरले. आतां लोकूय पिशे उरूंक नात. तांणीय समजिकायेन म्हाका वेंचून हाडलो.

बाय - श्री खादीबाब आतांमेरेन तुमी तुमचे वाठारान कितें कितें केलें तें सांगशात?

श्री खादीबाब - हय आमच्या देशामुखार लोकसंख्या आनी बेकारी हे दोन व्हड प्रश्न आसात. ह्या वाठारांतल्या धाकट्या पुला म्हन्यांत जो फोंड आसा तो हावें तसोच दवरला. थंय तीन रस्ते एकठांय जाता आनी दर सप्तकाक एकलो तरी खंवसताच. तेच प्रमाण रस्त्यावयले फोंड हांवे वयल्या वयर बुझयल्यात. थंयचे डांबर रोखडेच वचून ताका लागून थोडेतरी लोक सोंपतले म्हणपाची आस्त आसा.

बाय - लोकसंख्येक आळो घालपाखातीर तुमी आनी किते केलां ?

श्री खादीबाब - हय. आमचे वाठारांत एकूय कोयरा बल्ल आसचे ना, सगळो कोयर एकठांय जावन उरतलो म्हणपाची हांव जतनाय घेतां.

बाय - हाजेपासून फायदो कितें तें सांगशात?

श्री खादीबाब - कोयर एकठांय जावन उरिल्लयान कसलो ना कसलो रोग हो जातलोच. ताका लागून दोतोरांक गिरायक जातलें. वखदां चड विकली वतलीं. वखदांचे उत्पादन वाडटलें, आनी चड लोकांक काम मेळटलें. देखून बेकारी

उणावतली. वरवदां खावन खावन तरणाटे बेगीन म्हातारे जातले आनी म्हातारे उलथतले. अशे तरेन बेकारी आनी लोकसंख्या वाडीचे दोन प्रस्न वांगडाच सुटावे जातले.

बाय - म्हण्टुकूच तुमी लोकसंख्या उणी करप आनी बेकारी ना करप ह्या प्रस्नांचेर भर दिला.

श्री खादीबाब - हय. ते शिवाय समाजान समता येवचेखातीर हांवे नेटान यत्न चलयल्यात.

बाय - ते कशे ते सांगशात?

श्री खादीबाब - बरे भशेन. रातीकडेन रस्त्यांचेर चडांत चड काळोख उरतलो म्हणपाची हांवे जतनाय घेतल्या. काळखाक लागून गिरेस्ताकडलें धन गरीबांक व्हरूंक आदार जाता. ताका लागून गिरेस्ताची गिरेस्तकाय आनी गरीबाची गरीबी उणावता. समाजान बेगोबेग समता हाडपाचो होच एक उपाय आसा. अशे तरेन 'काळखांतल्यान समतेकडे' वचपाचो रस्तो हावें आपणायला.

बाय - श्री खादीबाब, तुमच्या ह्या विचारांची तोखणाय करची तितली उणीच. तुमचे सारके सरपंच लाबिल्ल्यान भारताचे लोकशायेची पाळांमुळां कशी घट जातात आनी देशाची सगळे तरेन कशी उदरगत जाता हे आमी अणभवलांच. मुलाखतीखातीर देव बरें करूं.

श्री - खादीबाब - तुमकांय बी देव बरें करू.

# म्हजो आजो खंय गेलो ?

सकाळीं स वरांचेर ट्रींग ऽ ट्रींग ऽ ट्रींग ऽ ट्रींग, करून फोन खणखणलो. हांतरूणांतल्यान निक्त्याच उठिल्ल्या आशाचें काळीज खपरखपलें. इतले सकाळीं फोन म्हळ्यार, खंय तरी कितें तरीं बरें ऽऽ ना म्हणचेली ताका सुलूस लागली. खपरखपत्या काळजान फोन कानाक लायल्यार, वायट खबर आयकूंक मेळ्ळी - आशाचो आजो भायर पडिल्लो.

आशान सोमतोच घोवाक उठयलो. आशाचे उलो मारचेले तरेवयल्यानूच कितें तरी वेगळेंच घडलां म्हणचेलें घोव वळखलो.

'कितें जालें? हांतरूणांत उठून बसतां बसतां ताणें विचारलें.

'म्हजो आजो.... म्हजो आजो भायर पडलो'. आशान घोवासरी अनिलासरी खाटीर बसत म्हळें. खरें तर आशालो आजो अशीं वर्सांचो आशिल्लो - पिकलें पान आशिल्लो. पूण आजो तो आजो - माया ती माया न्हय जाल्यार !

'आशा, तशें जाल्यार आतां आमकां बेगीनूच पणजे वचचें पडलें. ताका केन्नासो व्हरचेलो थारायला?' अनिलान विचारलें.

'अकरांक व्हरतली म्हळां. आमी गरजेचीं कामां करून बेगीन या. हांव आमच्या बायुलाक उठयतां.' अशें म्हणून तीं दोगांय साप्प गरजेचीं तितलींच कामां करूंक लागलीं.

अर्देवरान आशान बायुलाक उठयलें. 'बायुल, उठ गो, उठ गो शाण्या.'

पांच वर्सांचे बायुल. शाळेंत वतालें. के.जी.टू शिकतालें. आशा ताका सकाळीं पावणे सातांक उठयताले. साडेसात मेरेन ताका तयार करतालें. पप्पा बायुलाक स्कुटरीवेल्यान व्हरून शाळेंत सोडटालो.

आशान बायुलाक उलो मारतकीर, बायुल हे कुशीवेल्यान ते कुशीर वळ्ळें. 'बायुल, शाण्या आज शाळेत वचप ना.' दोळे उक्तें करूंक न्हयकारपी बायुलाच्या कानांत हींच उतरां बरीं रिगलीं.

'आँ माँ, शाळेंत वचप ना जाल्यार बेगीन कित्याक उठूं तर?' धांपिल्ल्या दोळ्यांनीच बायुलान प्रस्न केलो.

'बायुल, म्हजो आजोबा, म्हळ्यार तुजो पणजोबा खूब दुयेंत आसा म्हूण आतांच फोन आयला. हांव, तूं आनी पप्पा, आमी तिगांय बेग्गीन पणजे या-म्हजे आजोबाचे खबरेक.'

आशान बायुलाक हांतरूणांतले उबारून म्हणटात तशें मान्यात व्हेलें, ताचे

तोंड धुवन, सैमीक कामां करून घेवन, ताका च्या-पाव खावोवन, बेगीबेगीन मुस्तायकी बदलून तीं भायर सरलीं.

रिक्शा-बस-रिक्शा असो प्रवास करून तीं णव मेरेन आशाच्या कुळारा पावलीं. त्या चार मजली इमारतींत खूब गर्दी जाल्ली. खूबशे लोक येताले आनी वतांले. आशाच्या आज्याक सात चले आनी कितलीशींचं नातवंडा. व्हडलो घराबो आनी समाजांत मानाचें स्थान आशिल्ल्यान, आशाचो आजो भायर पडलो म्हण कळटकीर लोक यो-वच करताले.

रिक्शेतल्यान देंवन आशान बायुलाचो हात घट धरून सांगलें.

'बायुल, आयज तुवें म्हजे वांगडा रावप आं. हांगा थंय धांवप ना.' केन्ना केन्ना आशा बायुलाक घेवन कुळारा वतालें, तेन्ना सगळीं ल्हान भुरगीं एकठांय जावन येतिश्ट धुमशेणां कांडटालीं.

'मा, हे इतले लोक हांगा कित्याक आयल्यात? तुजे आजोबाचे खबरेक?' बायुलान विचारलें.

'हय. ते सगळे म्हजे आजोबाचे खबरेक आयल्यात. म्हजो आजोबा सकाळीं खूब म्हळयार खूब दुयेंत जाल्लो. आतां तो न्हिदला... साप्प न्हिदला.' आपलो आजो मेलो हें पांच वर्सांचे बायुलाक कशें सांगप हो प्रस्न आशाक पडिल्लो.

'साप्प न्हिदला म्हळयार ताणें दोळे घट्ट बंद केल्यात गे माँ ?'

'हय. आता तो ते बंद दोळे केन्नाच उक्ते करचो ना. तो न्हिदला. साप न्हिदला. आतां तो केन्नाच हातपांय हालोवंचो ना. उठचो ना, बसचोना, उलोवंचोना.' आशान आपले दोळे पुसत बायुलाक सांगलें.

ती तिगांय ते इमारतींत भितर सरलीं. सकल्या हॉलांत आशाच्या आज्याचें प्रेत दवरिल्लें. एके धवेफुल्ल चादरीन ताका धांपिल्लो. ताचें फकत तोंड दिसतालें. नाकान, कानान कापूस घाल्लो. तकलेवयर उजवाती लायिल्ल्यो. देखून चोंयवटेन सुवास पातळिल्लो. एकएकलो येतालो. आशाच्या आज्याचे कुडीचेर फुलां वा फुलांचो हार घालतालो. ताका नमस्कार करतालो, आनी हॉला भायर वतालो. आज्याल्यो सुनों, नांतरां, अदल्या मदल्यान दोळयांक पदर वा लेंस लायतालीं. तसो तो सगल्यांक जाय आसलो. मरतनाय लांब काळाचे दुयेंसान मरनासतना फट्ट करून मेल्लो.

आशा बायुलाक घेवन भितर गेलें. बायुलाच्या पप्पान आपल्या आजेमावाचे प्रेताचेर हार घालो. तिगांय जाणांनी ताका नमस्कार केलो. तीं तिगांय हॉलांत आशिल्ल्या कदेलाचेर बसलीं.

'माँ, आतां तुजो आजोबा केन्नाच उठचो ना, न्हय गे?' बायुलान माँक

विचारले.
'ना शाण्या ना ,तो आतां देवागेर वतलो'. आशान बायुलाक वेंगान घेवन म्हळें.
'देवागेर? म्हळयार खंय, मळबान ?' बायुलाचो प्रस्न.
'हय. वयर - मळबान, देवागेर. आतां तो आमचेकडेन केन्नाच येवचोना, आमचेकडेन केन्नाच उलोवंचोना' आशान दोळयांक लेंस लायलो.
'माँ..' बायुल माँचे मांडयेर बसलें.
'हां, कितें?'
'माँ, तूं रडूं नाका. तुजो आजो देवागेर वचचो ना. आतां मगे,थोडयावेळान एक मोटार येतली. मागीर लोक आज्याक न्हिदिल्लेकडेनूच, फुलांबिलां आसा न्हय, ताचेसयत खाद्यांर धरतले. ताका व्हरून मोटारींत घालतले. मागीर ती मोटार फुडें वतली आनी खूब लोक आपल्यो मोटारी, स्कुटरी घेवन फाटल्यान वतले.' बायुलान मांची दुकां आपल्या पिटकुल्या हातान पुसत सांगलें.

'तुका कशें कळ्ळें' आशान अजापान विचारलें.

'आयक गे माँ, खंय तरी पावतकीर सगळे लोक रावतले. उपरांत ताका उजो लायतले. तूं भिनाका आं, तुज्या आज्याक कांयच दुखचेंना. कित्याक जाणा?'
'कित्याक?' बायुलाचें सांगणें आशा अजापान आयकतालें.
'तो मेला. लाकडांक उजो लागतकीर मागीर तो लाकडां पेटून खूब खूऽ ब उजो जाता. व्हडलो उजो जाता. मागीर खंय सगळयाचो गोबोर जाता.' बायुलान आवयक म्हायती दिली.

आशाक कच्च जालें. पांच वर्सांच्या भुरग्याक इतलें गिन्यान ?

'आगो, तुका हें सगळें कोणे सांगलें?' मोठ्या अजापान आशान प्रस्न केलो.

'माँ, इंदिरा गांधी मेल्ली न्ही, तेन्ना टी.व्ही. चेर सगळें दाखयिल्लें. तूं विसरली? तिका एका मोटारींत घालून व्हेली, खंयतरी पावतकीर लाकडांचेर दवरिल्ली. तिचेवयर लाकडां दवरिल्लीं. मागीर तिका एकल्यान उजो लायिल्लो. उजो व्हडलो व्हडलो जाल्लो. माँ, ती देवागेर वचूंक ना. ती मेल्या . आतां ती केन्नाच हांगा येवचीना. माँ... तुका याद ना गे माँ.....' बायुलान आवयचे मांडयेर बशिल्लेकडेन आवयक घट धरली. बायुलान आवयकडचो लेंस घेतलो. तिचे दोळे लेंसान पुसत म्हळें, 'माँ तूं रडूं नाका. तुजो आजो मेला. तो आतां केन्नाच येवंचोना... तो केन्नाच येवंचो ना.'

'आं' करून तोंड उक्तें घालून आशा बायुलाकडेन पळयत रावलें.

# तरेतरेचीं सवंगा

'चलप' हेंच बरे भलायकेचें रहस्य. देखून Walk your way to life अशें हांव मानतां. बरी भलायकी जाय जाल्यार चलूंक लागचें. फाटलीं दोन वर्सां म्हाका चलूंक अडचण आयली आनी हांव लठ्ठम भारती जालें. देखून अंदूं सावन हांवें कामा वयल्यान घरा येतना तरी थोडी वाट चलप अशें थारायलें. मडगांव तें बस-स्टॉप चलप. घराकडेन पावंक धा मिण्टांचे वाटेर देंवप आनी परतेय चालचाल करीत घरा येवप अशी मांडणी केली.

दनपरां देड ते दोन वरां मजगतीं बसींतलो प्रवास म्हळयार कितें हाचो अणभव नासलो. पयलेच दीस बस थाम्यार पावलें. आमच्या ह्या रस्त्यार पांच-पांच मिण्टांनी बसी आसतात. देखून बशींत बसूंक जागो मेळ्ळो. पूण... पूण लाऊडस्पीकर येदे व्हडल्यान लायिल्लो! घरा लागीं पावसर रित्या पोटार लावडस्पीकराच्यो त्यो किळांच्यो आयकुचेली सोंशीकसाण म्हाका तरी नासली. खरें तर कायद्यान अशे तरेन लावडस्पीकर लावप गुन्यांव आसा. सदांच प्रवास करप्यांक बशीच्या कंडक्टर आनी ड्रायव्हराकडेन वायटपण घेवंक परवडना देखून तेवूय मातल्यात आनी तांणी अचळय कायदो खुटयाळाक लायला. आतां बशीन प्रवास करतना लेगीत 'झूज' करचें पडटलें काय कितें अशा विचारांत हांव आयलें.

इतल्यांत एक बायल मनीस म्हजेसरी येवन बसली. आनी कितें म्हण कळचे पयलींच तिणें - 'कंडक्टर ए कंडक्टर' अशी आड्डी मारली आनी बशीच्या सिटार तकली तेंकयली. हांव तर भियेलेंच पूण कंडक्टरूय धांवत आयलो.

'आगे कितें जाले?' त्या सतरा, अठरा वर्सां पिरायेच्या कंडक्टरान विचारलें. तिणें दोनूय हातांनी आपली तकली घट्ट धरीत म्हळें - 'हो आवाज उणो कर. म्हजें प्रेशर वाडटा काय दिसता. प्रेशर वाडून म्हाका कितेंय जायत जाल्यार....' अशें म्हण्टना तिणे सोमतोच हात वयर मळबाकडेन व्हेलो.... आनी.... आनी हे प्रवाशी त्रासान पडटलें.'

कंडक्टर साप्प भियेलो आनी ताणे त्या मस्त्या ड्रायव्हराक ती रिकॉर्ड बंदूच करूंक सांगली. मस्त्या ड्रायव्हरान रिकॉर्ड बंद केली आनी म्हळें - 'प्रेशर वाडटा तसल्यांनी बशींनी कित्याक प्रवास करप?'

'म्हजे पिरायेचो जायसर तुका आयकूंक आयल्यार समजतलें बाबा' तिणेय तेवूय परिस्थितींत दोळे धांपिल्ले कडेन जाप दिली.

उपरांत हांवें तिका म्हळें - 'तूं एकटीच प्रवास करता: प्रेशराच्यो गुळयो वा वरवदां वेळचे वेळार सारकी घे हां. नाजाल्यार खंयूय त्रासांत पडशी'.

तिणे म्हाका ल्हवूच दोळो मारून जाप दिली - 'शक्ती परस युक्ति बरी. आमकां सदांच बसीन प्रवास करतल्यांक अशेच तरेन ह्या मस्त्या लोकांक जाग्यार हाडचे पडटा.'

'आं!' - तिची जाप आयकून म्हजें प्रेशर उणे जावन हांव थंड.

आनीक एक दीस कंडक्टर गरजे भायर मोठ्यान उलयता म्हणचेलें जाणवलें. व्हडाव्हडान लावडस्पीकर, तातूंत ते कंडक्टराचें आडुप इतल्यांत एक बस थामो आयलो आनी कंडक्टरान म्हज्या कानांतूच इतल्या जोरान शिटी वाजयली ! उफ् ! हांवें म्हळें - 'कंडक्टरबाब, सगळो फोर्स काडून तूं किळांचता आनी इतल्या व्हडल्यान शिटी वाजयता!' 1911

'आं, आं, आं ?' मोठ्यान उलय आयकूंक येना' - 'ताणे जाप दिली.

कंडक्टरान व्हडान शिटी वाजयलेबगर ती ड्रायव्हराक आयकूंक येना. लोक कितें सांगतात तेंवूय कंडक्टराक आयकूंक येना. तरी पूण लावडस्पीकराच्यो किळांच्यो चालूच. सरळ ड्रायव्हरा म्हऱ्यांत गेले - 'ड्रायव्हरमाम, ड्रायव्हरमाम' .... ताका कांयच आयकूंक येना.

अंती लोकांनी सांगलें - 'हे बशीचे हे दोगांय जाण लावडस्पीकराच्यो किळांची आयकून आयकून भेड्डे जाल्यात.'

'म्हाका कळचना जालें. ते खऱ्यानीच भेड्डे जाल्यात काय भेड्डे जाल्ल्याचें सवंग करतात?'

एक दीस म्हज्या कोंतान टीप टॉप साडी न्हेशील्लें हांव घराकडसून बसींत चडलें. निमण्या सिटाच्या जनेलाकडेन म्हूण झेतान बसूंक गेलें. जनेलाचे चौकटीत मात हात लायला-घट्ट करून अरव्वी चौकट उक्ती जावन भायर.

- 'आरे ! कंडक्टर, हें कितें?' हांव आड्डुलें.

'तुका दिसोना ? तिची खिळी तुटल्या ती' कडक्टराची थंडसाणेन जाप.

'खिळी तुटल्या जाल्यार तुका ती रोखडीच सारकी करूंक पात्रावांक सांगूंक येना? म्हज्या हातात भुरगें आशिल्लें जाल्यार जनेलांतल्यान सोमतेच भायर

पडटलें आशिल्लें!'

'आयजून' पडूंक ना न्हू. कोंत काबार ! हँ!' अशें तुच्छतायेन ताणें म्हवं आनी म्हाकाय तिडक मारली. इतली बेपर्वा.

"You don't know who I am ! And why I am travelling in this bus!' हें वाक्य म्हणचेपयलीं हांवें बसीत म्हजे वळखीचे कोणूच ना म्हणचेली खात्री करून घेतिल्ली.

फाड्फाड् - इंग्लीश कातरना फुडें कंडक्टर धांवत फुडें गेलो आनी एक देसेंतसो मनीस फाटल्यान येवंक लागलो. " Madam this is really to be treated as an emergency case" शेजारच्या प्रवाशान म्हळें.

'हय तर हांव आर.टी.ओ. क बशीचो नंबर दितां' हांवें इग्लिशीन ताका जाप दिली. पर्सींतल्यान एक डायरी काडली. म्हाका पयसुल्ल्यान बसीचो नंबर बेस बरो दिसता आसतना लेगीत मुद्दाम झेतात वक्ल लायलें आनी नंबर बरोवन घेतलो.

इतल्यान तो देसेंत मनीस फुडल्यान फाटीं म्हजेसरी आयलो. 'मॅडम, हांवें ही बस नवीच घेतल्या. चूक जाली प्लीज, आयचोच दीस, हांव हे काम रोखडेंच करून घेता. आर.टी.ओ क रिपोर्ट करिनाकात. कंडक्टर हे मॅडमीचे तिकेटीचे दुडू घेनाका' ताणें रोखडेंच कंडक्टराक सांगले.

'कितें? कितें म्हळें तुवें ? हांव कोण तें खबर आसा तुका?' तें आयकून तो आनीकूय भियेलो आनी तिकेटीचे दुडू घेवंक ताणे सोमतोच हात फुडें केलो.

ताका पयशे दिवन हांवें सांगले - हांव फाल्यां परतेय हेच बसीन येतलें. हें जनेल आयचे आज सारकें जांवक जाय. कळ्ळें?'

'हय मॅडम, सॉरी मॅडम' अशें तो म्हणटा आसतनाच बशीचो निमणो थामो आयलो. 'पूण प्लीज मॅडम आर.टी.ओ. क तितले....'

'हय, आयज तुजो नंबर दिना. पूण तो हांवें बरोवन घेतला. तुका एक संद दिता'. म्हणत हांव देंवलें.

देंवतकीर हांव येवजितालें - who I am ! एक सामान्य बायलमनीस.

And why am I travelling by bus? - कारण - कारण प्रवास करचेलें आनी कसलेंच साधन म्हजेकडेन ना म्हणून !

तरेतरेचीं सवंगा केले बगर बस प्रवास करूंक येना हें खरें

# गुण नाहीं तरी वाण लागला

नवेंच लग्न जावन हांव गोंयासावन कोल्हापूरा गेल्लें. म्हजें कुळारचें घर म्हळयार देव-धर्म, पुजा-अर्चा, सोंवळे-ओंवळे मानपी अशें घर. देखून घरकाराचो देव-धर्म, पुजा-अर्चा, सोंवळे-ओवळें ह्या गजालींचें विशेश दिसलें ना. पूण खंय तरी जाणवलें. हो कितें तरी वेगळो आसा आनी तें म्हणचे घरकार खूब कर्मठ आसा.

हांव व्रत, उपास-तपास कांयच करपी न्हय हें म्हजे कोल्हापूरचे शेजान्नीक समजलें. देखून तिणें म्हाका मार्गशीर्शांतले चार वा पांच बिरेस्तार तरी लक्ष्मीव्रत म्हूण करूंक आग्रो केलो. तिचो आग्रो हांवेंय मानून घेतलो. हांव लक्ष्मीची पुजा करूंक बसलें आनी पुजा करूंक सुरवात केली. म्हज्या म्हर्‍यांत बशिल्ल्या घरकारान हांव करता ती पुजा तोखणायेन पळयली. सगळी पुजा सोंपतकीर म्हाका सांगलें - अमक्या बोटान देवाक गंध लावप आसता, अमक्या क्रमान देवांक फुलां घालप आसता आनी धुप, दीप जाले उपरांत निवेद्य दाखोवन आरती म्हणून कर्पूर आरती म्हणप आसता. निवेद्य कसो दाखोवप आसता हेंवूय ताणें सांगलें.

हांवेंय थंड चित्तान ताचें आयकून घेतलें. उपरांत म्हळें, 'पळय, हांव भक्ति-मार्ग अनुसरपी.... - तू मुझमें फिर परिचय क्या - अशी भक्ति भावना घेवन तल्लीनतेन पुजा करपी म्हाका हीं कर्मठपणां जमना. कर्मठपणां करूंक बसल्यार हांव भक्तिभावनेन देवाकडेन समरस जावंक शकना'.

आपूण कशी पुजा करतां ती पळोवन शिकून घे म्हूण ताणें सांगलें. हांव एक दीस तो करता ती पुजा पळोवंक बसलें. तो करता तीं कर्मठपणां पळोवन हांव उबगलें.

हांवें म्हळें 'तूं तुका जायतशी पुजा कर. अशी पुजा करप म्हाका जमचें ना.'

'पूण हांव टुराक वतलों तेन्ना तूं पुजेच्या नांवान देवांचेर जे अत्याचार करतले तें सोंसपाचे?' ताचो प्रश्न.

जालें दोगांयनी देवांचे साक्षीन ढम-ढम, ठा ठा ठा करीत झूज सुरू केलें. उतरां बॉम्ब एकमेकांचेर शेंवटीत झुजाक म्हाझुजाचें स्वरूप हाडलें. खंयच्याय झुजाचो परिणाम म्हळयार किण्ण थंडसाण. त्या प्रमाण दोगांयनी एकमेकांक फाट करून किण्ण थंडसाण आपणायली. पूण संवसारांतली कसलीच स्थिती तशीच उरना. घरांत दोनूच मनशां आनी तिंवूय 'महाशांती' आपणावन बशिल्लीं. ही स्थिती

आमकांच सहन ना जावन परिस्थितीन कूस बदलली. अंती आमी एक कबलात केली. प्रत्येकान आपापल्याक जमता तशीच देवपुजा करप, पूण एकलो पुजा करतना थंय दुसऱ्यान लुडबूड करप ना. जालें. अशी एक...दोन... तीन धा... पंदरा ...वीस .... सव्वीस वर्सां गेलीं. दोगांयनी म्हाझुजाचो अनर्थ टाळप खातीर म्हूण एकमेकांचे देवपुजेंत मात लेगीत लक्ष घालें ना.

पयर सव्वीस वर्सां उपरांत हांव मार्गशीर्शांतले पुजे दिसा दुयेंत जालें.

हांवें घरकाराक म्हळें, 'तूं पुजा कर हांव बसून पळयता.' हाणेय मानून घेतलें. बिरेस्तारा घरकार लक्ष्मीची पुजा करूंक लागलो. हांव पळोवंक लागलें. आं... आं.... हें कितें ! हांव ह्या घरांत नवी व्हंकल म्हूण आयिल्ले तेन्ना कर तशी सगळी पूजा ! खंयच्या बोटान गंध लावप, फुलां कशीं ओंपप... कितें पद्धत आसा काय ना ?

हांव आडुलें, 'हें कितें! पुजा कशी करप म्हूण कितें रीत आसा काय ना?'

हाणें देवा फोटोकडेन बोट दाखोवन म्हळें, 'तू मुझमें फिर परिचय क्या?'

आमी दोगांय एकमेकांक पळोवन हांसलीं. आमी दोगांय बदलिल्लीं, एकमेकांसारकीं जाल्लीं.

# वाचको देवो भव !

ट्रिंग ऽ ट्रिंग ऽ  ट्रिंग ऽ ट्रिंग.

फोन वाजलो.

'हॅलो. दीपा मुरकुंडे आसा ?'

'हय. हांव उलयतां. तुमी कोण?'

'हांव ? हांव एक वाचक. आज 'सुनापरान्तां' त तुमचें जें पारजत आयलां तें म्हाका आवडलें.'

- 'सुनापरान्ता त आयज म्हगेलें पारजत आयलां? अजून म्हाका 'सुनापरान्त' मेळूंक ना. तुमकां पारजत आवडलें तें आयकून बरें दिसलें. खंयचे पारजत आयलां?'

'तें नण्डेचेर बरयलां तें.'

'आं, तें ऽ ?' हांव हांसले. वाचकाक पारजत आवडलें तें आयकून खोशी जालें. तशें हांव सादारण बरोवपी- लेखिका - वा साहित्यक बी न्हय. पूण हांवे बरयल्लें वाचक वाचतात. जायत्या फावटी म्हाका ते आपल्याक कितें आवडलें, कितें आवडलें ना तें सांगतात. हांवें बरोवचेले कमी केलें वा म्हजें लिखाण खूब दीस जाले तरी येवंकनाशें दिसल्यार कांय वाचक म्हाका हटकितात - 'कितें जालां? हालीं कित्याक बरयना? तूं बरय. ह्या ताण-तणावाच्या दिसांनी 'सुनापरान्ता' तलीं पारजतां वाचतकीर ताण कमी जाता. वाचकांच्या ह्या उतरांनी म्हजी बरोवचेली उमेद वाडटा. वाचकांची उतरां ती म्हज्या बरपाची स्फूर्त, उर्बा. देखून नण्डेचेर बरयल्लें पारजत म्हळयार 'वरूनी वेश बावळा' हें पारजत वाचकाक मानवलें तें आयकून खोस जाली. इतल्यान वाचकान म्हळें -

- 'आतां हांव तें पारजत काडून तुमचे नण्डेक धाडटां'!.

-'आं ?!' हांव आयकतूच रावलें. आयज मेरेन लिखाणाचे बाबतींत असली धमकी म्हाका केन्ना कोणें दिवंक नासली. हें आनी नाका जाल्लेंच ! मुंबय रावपी म्हजी नणंद खंय तें पारजत वाचतली ! अशें चिंतून हांवें मेकळया मनान, सदळ हातान बरयल्लें. म्हज्या काळजांतलो कलकल म्हज्या आवाजांतल्यांन वाचकाच्या कानामेरेन पावचोना हाची जतनाय घेत, उश्णें बळगें हाडून म्हळें - 'धाडात हां, तें कात्रण काडून मुजरत तुमी म्हजे नण्डेक धाडात - देवा ऽ म्हजें बरें कर !' हांवें फोन दवरलो.

म्हज्या बरपाचे कितें परिणाम जावंयेतात ? खीणभरांत म्हज्या दोळयांसामकार दिसलें की तें पारजत वाचून नणंद, नण्डावो, आमगेर येतात; गृहक्षेत्राचें कुरूक्षेत्र जाता. 'आम्ही दोघं नणंद भावज ह्या, जणूं वैरिणी समझाया' म्हणत नणंद भावजय घालता ती फुगडी पळोवन पुरुशप्रधान संस्कृतींतलो म्हजो घरकार आनी नण्डावो आयज घरा जेवण पडचेलेंना हें वास्तव आपणायतात. जीव आसल्यार हॉटेलांत वचून खायन म्हणून हॉटेलाची वाट धरतात. भयण आनी बायल हांचे कात्रींत सांपडिल्लो घरकार 'नरो वा कुंजरो वा' करून आपली मेकळीक करून घेता. आनी हांव नण्डेंक पटोवन दितां, नणंद म्हळयार घोवाची सख्वी, बापोल, तिपोल, मावस, मामे, आतेभयण जावंयेता. लिखाणात कांय तुमचें नांव ना; देखून तें सगळें तुमचेर बरयलां अशें जायना. परिणाम - राग सोडून दिवन, घरकार आनी नण्डावो घरा परतुचे पयलीं आमी तांकां चीट बरोवन दवरून खंयचें तरी पिक्चर पळोवंक वतां. वा नणंद सामकीच रागार जाल्यार परतें तुजें तोंड पळोवची ना म्हूण सोपूत घेवन वता.

वाचकान दिल्ली धमकी कृतींत हाडल्यार हें अशें जावंयेता.

ह्या प्रसंगावेल्यान म्हाका खूब वर्सां फाटली याद जाली. म्हज्या आंकवारपणात हांवें रेडियोचेर बरयल्लीं नाटकुलीं आयकून कांय आयकूपी दारामेरेन आयल्यात. एक दीस दारार बेल वाजली. एक जाण्ट्रोसो शेजारी आयला तें पळोवन हांवे आईक उलो मारलो.

ताणें म्हळें - 'राव, तुकाच मेळूंक आयलां हांव. काल राती जें रेडियोचेर आयला तें तुवेंच बरयल्लें नाटकुलें मगो?'

म्हाका खोस जाली. म्हजें नाटकुलें हाणें आयकलें? खोशेन हांवें विचारलें 'तुमकां आवडलें?'

'चुळका ! आवडलें काय म्हूण विचारता? म्हजेर बरयता ? म्हज्या घरच्यो गजाली गांवार घालता? नुस्त्याबगर म्हाका उंडी वचना आनी सुक्या सुंगटांची किस्मूर तरी जायूच म्हणटा? हांव जोडटां, हांव खातां. तुमगेर मागूंक येतां गो?'

म्हज्या हातापांयाक कडकडो सुटलो. त-त-प-प- करीत म्हळें, 'काका, चडांत चड गोंयकारांक नुस्त्याबगर उंडी वचना हांवें तुमचेर खंय बरयलां? सर्वसादारण गोंयकार........'

'म्हाका शेंडी लायता? म्हाका? अर्राऽऽ' ! तुमची आनी आमची वावराडी एकूच. तिणें तुका पायलें आनी तुवें तें साप्प वाऱ्यार सोडलें?' तो म्हजेर रागार

नालो आनी कांय तेंप उलयलोना.

कांय तेंपान हांवें दुसरें नाटकुलें बरयलें. तें मात खरेंच दनपरां अडेच ते बारमेरेन एका फ्लॅटाच्या जनेलांतल्यान दुसऱ्या फ्लॅटांत उबी राविल्ले शेजान्नीकडेन हडा व्हडान आडून आमकां पांच मिण्टां थारावंक दिनाशिल्ले शेजान्नीचेर बरयल्लें. तांणी जुस्त तें नाटकुलें आयकलें. म्हजो राग आईचेर काडलो - 'तुगेली धूव, सांजवेळा घरांत बसून आमचेर नाटकुलीं बरयता?' कांय तेंप शेजार तुटलो. उपरांत सारको जालो.

तर हें सगळें बरोवपा फाटलो हेतू, म्हाका धमकी दिवपी वाचकाक कळूंक जाय, ती ताची धमकी होवूय पारजत बरोवंचेलो विशय थारूंयेता. देखून म्हाका म्हणचेंच पडटाः 'वाचको देवो भव!'

# रस्त्यांवयले कांय अणभव

कांय म्हयन्यांफाटीं दुचाकी घेवन घरांतल्यान भायर सरतना जीव मुठींत घेवन वचचें पड. काम जातकीर बरेभाशेन घरा पावतकीर एक दीस तरी बरो सारलो, म्हूण समादान मानचें पड. त्या दिसांनी रस्त्यार खूब अपघात जाताले. कांय रस्ते कांय कारणाखातीर बंद केल्ल्यान विशिश्ट रस्त्यांचेर वाहतूक वाडिल्ली. रस्त्यावयल्या फोंडा वांगडाच वाहन चालकांची मस्तीय अपघातांचें एक मुखेल कारण हें स्पश्ट दिसतालें. मुखावेल्यान सिग्नल दिलां आसतना तें मानून घेवपना. चुकीच्या जाग्यार चुकीचे वाटेन 'ऑवर टेक' करप, रस्त्यार मदींच रावन मोबायलाचेर उलोवप, "No entry" ची दखल घेनासतना सरळ थंयसून वचप, मेळटा थंय मनाक मारता तशीं वाहनां दवरप, वाहनांचेर रावन गजाली करप अशी खुबशीं कारणां हांवें पळयल्यांत जाका लागून अपघात घडल्यात.

एक दीस आमी मुखेल सरळ रस्त्यावेल्यान वतना एके बाजूच्या धाकट्या रस्त्यावयल्यान सूंऽऽ करीत एक टॅम्पो आयलो. तो आतां आमचे स्कुटरीक धपको दितलो... दितलो म्हणचेलें फाटल्यान बशिल्ल्या म्हाका दिसतालें. आनी तो धपको ताणें एका सेकंदाभितर दिलोय बी. कितें म्हूण कळचें पयलींच म्हजी पोटली धपंयच् करून रस्त्यार आपटली.

घेऽ गर्दी. 'पुलिसांक आपयात, मेल्यांक बुद्द शिकोवंक जाय... हे टॅम्पोवाले कशायकशे चलयतात... आगे, तुका लागलें बी ना मगे... एक सोद हाड रे'... कितलेशेच जाण उलयताले.

स्कुटर थांबोवन, म्हाका उठोवन उबें करून म्हाका खंय लागलें बी काय म्हूण पळोवपी म्हज्या घरकाराकडेन टॅम्पो ड्रायव्हर टॅम्पोंत बसून सुसेगाद पळयतालो. 'आरे बाबा, हें कितें ?' घरकारन विचारलें.

चिविंगम चगळायत सुसेगाद टॅम्पोंत बशिल्या ड्रायव्हरान सांगले - 'म्हजे टॅम्पोचो नंबर बरोवन दितां. तुका जाय जाल्यार पोलीस कंप्लेंट कर. तुका जाय जाल्यार तिका हॉस्पिटलांत व्हरून तपासून हाडुंया. तशें तिका कांयच जावंक ना. मात्शी पडल्या. दोन दीस आंग दुखतलें. इतलेंच'.

'पोलीस! पोलिसांक आमीय वळखतात.... बाबा रे, तुजो ओगीच वेळ वगडावनाका' गर्देंतल्या एकल्यान सल्लो दिलो.

'-आरे, तुमका मुखेल रस्त्यार येतना सवकास येवंक जायना रे? ती

वाटावली म्हूण सांग. ती पडिल्लेकडेन तिच्या हातापांया वयल्यान अचकीत दुसरें वाहन गेल्लें जाल्यार तुका लागून ती मोडून पडची नासली?' एकट्यान टॅम्पो ड्रायव्हराक तापयलो.

'मामा, तूं तूगेला कामाक वच. मदीं पडल्यार बरें जावंचें ना' ड्रायव्हराची चिविंगम चगळायत जाप कम् धमकी.

- 'आमी सगळींच आमच्या कामाक वचुंया. पूण ड्रायव्हरबाब आयज म्हाका कांयच जावंक ना म्हूण परतोय अशेंच ड्रायव्हींग करूंनाका. फाल्यां घडये तूंच हातपांय मोडून पडशीत' हांवें ड्रायव्हराक सांगले.

'शे!' करून हांसत ताणें फर्रऽ करून टॅम्पो सोडलो.

आपलेकडल्यान चूक घडली म्हणून तरी - 'चुकलें म्हजें' - अशें म्हणचें सभाग्यान ! दुसऱ्या विशीं कांयच पडून वचूंक नाशिल्ले हे असले लोक सुदारप कठीणूच.

एक दीस दिसाळें विकते घेवन रस्तो वलांडूंक उबें राविल्लें. गाडयो वचत आशिल्लो. इतल्यान एके व्हडले सुमो गाडयेन फुडल्या मारूतीक ओव्हरटेक करचेले गरजेभायर यत्न केलो. आनी तिका फाटल्यान धपको दिलोच. मारूती गाडयेच्या मालकान गाडी थंयूच उबी केली आनी थंयूच, लागीं उब्या आशिल्ल्या पोलिसाक आपयलो. पोलीस येवन कितें म्हूण पळोवंक वता थंय आसा त्या फॉरेन टुरिस्टान पोलिसाकूच इंग्लीशीन सणसणीत तापयलो. कितें म्हूण कळचे पयलीं तो सुमोत बसून फर्र ऽऽ करून गेलो लेगीत. पोलीस आनी गाडयेचो मालक एकामेकांक पळयतच उरले. तांणी ताचो नंबर लेगीत घेवंक नासलो जावंये. पूण गोंयां येवन कशेंय वागल्यार जाता अशें बी ह्या फॉरेन लोकांचे तकलेंत रिगला काय कितें असो म्हाका दुबाव मारलेबगर रावलोना.

एक दीस एक जोडपें स्कुटरीवल्यान वतालें, सरळ रस्त्यान वचपी त्या जोडप्याक मदींच एकलो आडवो आयलो. ताच्या शर्टाचो हात गियेच्या ब्रेक हॅण्डलांत घुसून स्कुटरीक अचकीत ब्रेक लागलो. बायलेचो तोल गेलो, पूण तिणे स्वताक कशे तरी सावरलें आनी ती रस्त्यार पडटा पडटा वाटावली. तिच्या घोवान त्या मामाक म्हळें, 'अरे यह क्या ! मै सीधा जा रहा हूँ और तुम बीच में टांग अडाके मेरे स्कूटरको ब्रेक लगाया? रस्ता सभी का होता है मामा!'

मामान जाप दिली - वही तो! मैं भी वहीच कहता.... मैं सीधा जा रहा हूं। तुम रास्तेपे स्कूटर लेको बीचमें आये । रास्ता क्या तुम्हारे बाप का है ? सभी का

है ना।'

ताची जाप आयकून सगल्यांक हासूंक आयलें. शिकूं नाशिल्ले अडाणी आनी शिकिल्ले, इंग्लेज कातरपी हांच्या रस्त्यावयल्या वागपांत फरक आसतलोच अशें म्हणूं नजो.

कांय जाण तर रस्त्यार 'ओव्हर टॅक' करूंक सुवात आसूं वा नासूं - ओव्हर टेक करप हो म्हजो जल्मसिध्द अधिकार आसा आनी तो हांव मेळयतलोच - हे स्टायलीन ओव्हर टॅक करून येरादारीचे नेम सांबाळून वेवस्थीत वचपी मनशांक प्रसंगार हॉस्पिटलांत वा प्रसंगार Direct-Express वयर पावलेबगर रावनात.

गरजेभायर दुसऱ्या बशींकडेन सर्त करपी बस ड्रायव्हर आनी कंडक्टराचें वागप म्हळयार-रस्तो फकत म्हजो आनी म्हजोच. तुमकां तुमचो जीव जाय जाल्यार कुशीक सरात. हांव येतां..पोंऽ पोंऽ पोंऽ पोंऽऽ

# हाण्डीर कळसो, गांवाक वळसो

आमच्या घराभोंवतणचें पोरसूं म्हळयार 'जागो सान आनी इत्सा म्हान' अशी परिस्थिती. त्या इल्लेशा जाग्याक हांव भाटाचें रूप दिवंक लागिल्लें. दोन काजू, दोन आंबे, एक चिकू, एक दाळमीण, दोन कवाथे, एक पणस, दोन आंतेरी, दोन पेरी, एक बिमल, एक रामफळ, कितल्योशोच केळी आनी पोपायो, लवंगांरोपो, तरेतरेच्यो दसणी, हळडुवो कोर्नो, पारजत, चंद्रकांत, कृष्णकांत.... एक ना दोन... तरेतरेचीं रोपां लायिल्लीं. तरी पूण आस सोंपनासली आनीक एकूच रोप लावप, मागीर जालें अशें थारायलें. दर खेपे इतिहासाची पुनरावृत्ती जाताली.

आमच्या घराकडेन लागींच एक घर बांदिनासतना उरिल्लो प्लॉट आसा. थंय एक भिण्णांचो रूख आसा. फाटल्या गिमाळयांत म्हजे धुवेन हेरां वागंडाच त्या भिण्णारुखाचीं भिण्णां हाडलीं. हांवें त्या भिण्णांची कडी केली, सोला कडी. रूचीक तर बरी लागलीच पूण तेच वांगडा एक इत्साय मनांत जागोवन गेली - भिण्णांचो रोपो लावंक जाय. भिण्णांचे गार्फ आसता, काय रोपो लावप ? तो खंय मेळटलो ? अशें जायते प्रस्न मनांत उबे रावले.

पावसाळो सुरू जालो आनी फुलांच्या झाडांच्या ताळयांचे दिवप-घेवप सुरू जालें. भिण्णांच्या रोप्याची हांव चवकशी करीत भोंवतालें. भिण्णाचो रोपो सान आसतना ताचीं पानां कशीं दिसतात, तो रोपो कसो दिसता ते हांवे केन्नाच पळोवंक नासले. हाका ताका विचारून जाले. शेतकी फर्मांत चवकशी केली. थंय कळ्ळें की भिण्णाचीं रोपा रानखात्यांत मेळूंक शकतात. तीं गार्फा नासून रोपांच आसतात. एक आदेसभर फिरून रानखात्यांचे ऑफीस सोदचेले यत्न केलो. अंती तो व्हडलो बोर्ड दिसलो. तोंडार हांसो फांकलो. थंय वतकूच कळ्ळें की थंय फक्त बोर्ड आसा रानखातें दुसरेकडेन आसा. तोडावयलो हांसो नाच्च जालो.

'आगो, हांगा खंय?' त्या काणकोणकारान विचारलें.

'भिण्णाचो रोपो सोदचे खातीर हांगाचे रानखातें सोदतालें.'

'काणकोणच्या रानखात्यांत भिण्णाची रोपां मेळटलीं . तुका जाय?' ताच्या त्या प्रस्नात कुड्डो मागता एक दोळो आनी देव दिता दोन अशी म्हजी अवस्था जाली.

'कितले दीस जाले हांव भिण्णा-रोपे सोदीत आसां. तुमकां हाडूंक मेळत?' हांवे आशेन विचारले.

'हांव म्हज्या इश्टाक सांगतां. तें ऑफीस सकाळीं धा वरांचेर सुरू जावन सांजेसर पांच साडेपांचाक बंद जाता आसूंक जाय. हांव काणकोण सकळीं सातांक सोडटां आनी रातीं आठांक घरा पावतां' ताणें सांगले.

'तुमचो इश्ट हाडून दीत? म्हजी उमळशीक.

'हांव यत्न करतां. वयलेवयर सांगना, खरेंच यत्न करता. रोपो मेळटकूच तुका कळयतां.' हांवे रोखडोच म्हजो फोन नंबर दिलो.

पूण पावस सोंपत आयलो तरी म्हाका भिण्णा-रोप्पो मेळ्ळोना. ते खातीर हांवे खूबसो वेळ वगडायलो आनी खूबकडेन भोंवलें. अंतीं, जावं, आतां फुडल्या वर्सा तो रोपो लावचो अशें चिंतून मनांतल्यान तो विचार कडालो.

अंदू 'वेळ थोडो आनी संवगां चड' जाल्ल्यान पोरसाची कुयदाद करूंक मेळ्ळीना. तण चड वाडलें. तणाक लागून जळेरा चड जातात खंय ! मलेरिया किते फकत राजपाटणांतूच जावप काय कितें? तो सगळ्याच वाठारांनी पातळावंपाचो जळेरांचो बेत दिसलो! घडये शंबर टक्के साक्षर वाठारांप्रमाण शंबर टक्के मलेरिया लागणूक घोशीत वाठार करचेलो तांचो हेतू आसुंये. आपणे केल्ले संकल्प अर्दारसोडूंक जळेरा ही किते मनीसजात तर ? जळेरा-संगीत आयकून उबगण आयिल्ली. देखून पोरसांतलें तण काडूंक हांवे एक बायलमनीस आपयली.

'तुका रोपे वळखूंक येता मगे? हो आंतेरीचो रोपो, हो करबेलाचो, हो..... हांव तिका रोपे दाखयतालें. ती हांसली, 'बाय, हांव भुरगेपणासावन शेतांत आनी भाटांत काम करतां. म्हाका सगळे तरेचे रोपे वळखूंक येता' तिणे सांगलें.

'खरेच? मागीर हो कसलो रोपो सांग?' हांव तिची परिक्षा घेतालें.

'हो पडवळाचो, तो घोसाळयाचो, तो कारात्याचो, तो लिंबाचो, तो मस्काचो.' ती सांगतालीं.

'बरी हुशार मगे तर तूं ! तण वेवस्थीत काड. हांव घरांत कामाक वतां.' हांव घरात गेलें.

ती बायलमनीस कामाक बरीच हुशार आसली. वेवस्थीत तण काडटाली. गरजेचे रोपे दवरताली. देडदोन वरां उपरांत हांव पोरसांत गेले. तिणे काम केल्ले जाग्यार नदर मारली. इतल्यांत दुरगा म्हऱ्यांत देड वेंत लांबायेचे कसले तरी रोपे तिणे तशेच सांडिल्ले दिसले. बचकभर रोपे हातान हुमटायत हांवें तिका ते दाखयत म्हळें, 'आगे, हे कसले रानवटी रोपे दवरल्यात ? काडून उडय ते सगळे.'

'बाय, तुका नाका ते ? नाका जाल्यार काडटां हांव, भिण्णांचे रोपे तें. तिची जाप आयकून म्हज्या पांयांसकली जमीन हालिल्ल्याचो भास जालो.

# आनी अजाप घडलें

डींग डोंSSS ग बेल वाजली. बाप्पान दार उगडलें. 'कितें?' बाप्पाल्या प्रस्नाक 'नळाचें बील' ही जाप आयली आनी बाप्पाच्या हातार नळाचें बील दिवन तो गेलो. बाप्पान सहजूच बिलार नदर मारली. आनी.... 'आवयगेSSS' अशी व्हड केळांच मारून बाप्पा धुंवळून पडलो.

'कितें जालें, कितें जालें?' म्हूण आई रांदचे कुडीतल्यान धांवत भायर आयली. तर बाप्पाक शुध्द ना. पुत, सून नातरां सगळींच आपापल्या कामाक गेल्यांत. एका-देडाक घरात येवचेलीं. आईचेर आकांत आयलो. 'शेजान्नी, शेजान्नी' तेणें किळांच मारली. एकल्यान दुसऱ्याक, दुसऱ्यान तिसऱ्याक आपोवन घरभर लोक जालो. बाप्पा धुंवळून पडला म्हूण कोणे कांदो धाडावन नाका म्हऱ्यांत व्हेलो. कोणे उदक मारलें. कोणे एकल्यान वचून दोतोराक हाडलो. हावाशिवा करून दोतोरान एकदाचो बाप्पाक शुध्दीर हाडलो. इतल्या बोवाळांत बाप्पाच्या हातांतलें नळाचें बील वचून एका कोनशाक पडिल्लें. शुध्दीर येनाफुडें बाप्पान 'बील, नळाचें बील' अशें आडूंक सुरवात केली. सगळ्यांनी तें सोदलें. नळाचे बील पळोवन बाप्पा धुंवळून पडिल्लो म्हणपाचें आयकून सगळेच अजापले.

'पळयात, पळयात. एका म्हयन्याचें नळाचें बील पळयात' बाप्पान जमनीर बसकण मारत म्हळें.

शेजाऱ्यान ते हातांत घेतलें आनी 'आवयस' म्हणत काळजाक हात लायत ताणेंय बाप्पासामकार बसकण मारली.

'णवशे शेचाळीस रुपया बील? एका म्हयन्याचें? मागीर बाप्पा धुंवळपाचोच न्हय?' शेजारी.

'हांव पोरणें हाड म्हणून तिगलें. हालींचो तरणाटो जाल्यार आंत्त्काक सोंपला.' बाप्पान म्हळें.

'आतां कितें करचेलें?' एक शेजारी. 'सरकारी नेमाप्रमाण आयलां तें बील पयलीं भरपाचे आनी मागीर कागाळ करपाची. उपरांत ताची चौकशी जातली.' दुसऱ्या शेजाऱ्यान सांगलें.

'आनी इतलो दुडू खंयच्यान हाडपाचो खंय?' आईन म्हळ्ळें.

'हांगा पयलीं जोडिल्लो दुडू जेवंक खावंक पावना. आनी ही असलीं बिलां भरचीं पडल्यार माणसुकी आसा?' एक शेजारी.

‘तें कितेंय जावं. आमी पयली जायच्या उदका खात्यांत या आनी तांकां हें दाखोवया. ते कितें म्हण्टात तें तरी पळोवया ‘बाप्पान उठत म्हळें.

‘सरकारी खातें तें, खाल्याबगर काम जावंचेना’ एक शेजारी.

‘हांव खावोवचो बी कांयच ना. चड केल्यार पळोवन घेतां. चल शाणूबाब तुजी स्कूटर काड’ बाप्पा- दोगांय स्कुटरीवयल्यान उदका खात्यांत गेले आनी थंय काम करतल्याक तें बील दाखयलें.

‘हें, हें बील इतलें कशें? हे इतलें बील? उदकाचें? एका म्हयन्याचें? उदक लेगीत इतलें म्हारग जालां ?’ बाप्पान आवाज चडयलो.

‘हांगा हाड’ ते काम करप्यान थंडसाणेन म्हळ्ळें आनी बाप्पान तें बील ताजेकडेन दिलें. ताणें तें घेतलें. एक व्हडली चोपडी काडून हिशेब पळयलो आनी ‘सॉरी, चूक जाल्या ते णवशें शेचाळीस न्हय. णव रुपया’ काम करप्यान थंडसाणीन सांगले आनी रोखडेच काम करून दिलें. ‘घे हें बील णव रुपया भरचेले’ ताणें म्हळें.

‘काम जालें’? बाप्पान अजापान विचारलें.

‘हय’ काम करप्याची जाप.

‘सरकारी काम, हातार कांयच दवरनासतना आनी फावटी मारूंक लायनासतना पांचूच मिण्टांनी जालें?’

बाप्पाच्या प्रश्नाक सरकारी नोकरान हय म्हळ्ळें आनी बाप्पा धुंवळून पडलो.

# दुयेंसांच्यो तरेकतरा

तापिल्ल्या माय म्हयन्या उपरांत अचकीत पावस येतकीर खुबदां मनशाक तरेकतरांचीं दुयेसां जातात. थंडी, जोर, हागवण आनी हेर. पावसान फकत मनशांकूच न्हय तर फोनाक लेगीत तरेकतरांचीं दुयेंसां जातात म्हणचेलें म्हाका अंदू वर्सा बेस बरें समजलें.

अंदू जरी घसंयच घो ऽ, घसंयच घो ऽ करून पावस आयलोना तरी जितलो घो ऽ जालो तितल्याच पयल्या पावसान फोन डॅड. डॅड फोनाची कागाळ नोंदोवंक गेल्यार थंयच्याय फोनाक दुयेंस.... रींग वाजता पूण कोण उबारना. दोन दिसांनी कागाळ नोंदोवन उपरांत डॅड फोन सुरू जालो. मनशांत आनी फोनांत फरक आसा तो हो. मनीस 'डॅड' जालो म्हणटकीर सोंपलो आनी फोन 'डॅड' जालो तरी सारको करूं येता.

पूण फोन सारको जालो ही खोस दोन दीस लेगीत तिगलीना. गरजेच्या फोनाचे नंबर घुंवडायतकीर ट्रींग, ट्रींग वाजून 'एँगेज्ड' आवाज आयकूंक आयलो. म्हळळें हो नंबर घडये कोणाकडेन उलयता आसत, पळयत जाल्यार घुंवडायल्ल्या नंबराची ती गत. उपरांत लक्षांत आयलें, आमकां फोन येवंक शकता पूण आमी दुसऱ्याक करूंक शकनात. Incoming बरें आसा पूण Outgoing दुयेंत जालां.

फोन सारको जावंचो म्हूण परतीय कागाळ केली. फोनाची भलायकी तपासतल्या दोतोरान सांगलें, 'तुमचो फोन थंड पडला ताका थंडी जाल्या. थंय एक दिवो पेटोवन दवरात.' 'अडलो हरि फोनाचो रिसिव्हर धरी' इतली आमकां फोनाची गरज. देखून थंय एक चाळीस व्हॉट्सांचो दिवो लावून दवरलो.

दिवो लायलो गा, पूण वीज आसूंक नाका! बाराय काळ तेराय म्हयने - 'दिगंबरा, दिगंबरा, वीज ना बाबा कोणाच्याच घरा' अशें भजन गांवचेलो प्रसंग आमचेर येता. अदल्या मदल्यान येवपी विजेच्या आदारान फोन सुरू जालो. जालो म्हणचे दोन उतरां उलोवचे पयलीं बंद... कूं.. कूं.... कूं..... कूं... सुरू एकाच मनशाक तिन चारदां फोन करून गरजेची खबर सांगची पडली. पावसा दिसांतले फोनाचें हें एक दुयेंस.

वीज पुरवणेचो दर्जो मात्सो सुदारले उपरांत केप्यां घुंवडायल्ल्या नंबराचेर फोन लागलो आनी काम जालें. उपरांत मडगांव फोन लायलो.

'हॅलो ७३ + + + + नंबर?' हांवें विचारलें.

'कितें तुमी ७३ लायला? मडगांवचो? हो ६६ केप्यां लागला.' तेवटेच्यान दादल्याचो आवाज आयलो.

'सॉरी तुमकां त्रास दिलो' म्हणत हांवें रिसिव्हर दवरलो. रोखडोच ७३-+ + + तोच नंबर परतोय घुंवडायलो. आनी 'हॅलो' म्हूण दुसरेवटेच्यान हेदोळच्या दादल्याचो आवाज आयलो 'परतोय तुमकांच फोन लागलो. सॉरी हांवें म्हळें.' 'ह फोन करचे पयलीं तुमी केप्यां फोन केल्लो काय कितें ?'

'हय' म्हजी जाप.

'तशें जाल्यार स नंबर मुंगरून बसला जावंक जाय. तुमी एक धिसपीर घेयात आनी 'स' नंबर आसा तो मात्सो वयर काडात.' ताणें सांगलें.

'देव बरें करूं' म्हणून हांवें रिसिव्हर दवरलो.

इतल्यांत म्हाकाच दोन फोन आयले. उपरांत हांवें भीत भीत लोकांक फोन केल्यार फोनाचे 'स' नंबराचें दुयेंस नाच्च जालां.

एक दीस आमच्या वाड्यावयल्या मनशाक गरजेक फोन केल्यार तो मोल्यां, काणकोण, फोंड्यां, केप्यां इतले कडेन लागलो पूण वाड्यावयल्या शेजाऱ्याक कसोच लागना.

एक दीस रिसिव्हर उबारल्यार 'डायल टोन' येनासतना हांवेच नंबर घुंवडायिल्लेवरी नंबर घुंवता तें आयकूंक आयलें. आनी तेवटेच्यान ट्रींग, ट्रींग, वाजून एकल्यान 'हॅलो' म्हळें - 'आं! म्हजेर आकांत. आतां हो फोन कोणाक लागला आनी हांव कितें उलयतलें?

हांव कोण, ती कोण हें एकमेकांनी जाणून घेतले उपरांत कळ्ळें. कांय वेळ पयलीं म्हजे धुवेन तिचे धुवेक फोन केल्लो आनी तोच नंबर घुंवत आशिल्लो. हें दुयेंस घालोवंक परतोय दोतोर जाय पडलो. दोतोरान सांगलें, दीसभर दिवो पेटोवन दवर. फोन थंड जाला.

दीसभर दिवो चालू दवरलो. नशिबानसार ते दीस चडांत चड वेळ वीज आशिल्ली.

तिनसांजे घरकार घरा आयलो.

'फोन सारको जाला काय ना?' ताणें विचारलें.

'अजून मेरेन हांवें कोणाकूच फोन करून पळोवंक ना. चल आतां तूं दुकान बंद करून घरा आयला न्हय, म्हणटकीर हांव दुकानार फोन लायतां. फोन वाजतलो कोणूच उबारचोना' अशें म्हणत हांवें दुकानावयलो फोन नंबर घुंवडायलो.

ट्रींग, ट्रींग, ट्रींग, फोन वाजलो आनी अजाप म्हळयार 'हॅलो ..... कोण उलयता?' तेवटेच्यान एके बायलेचो आवाज आयलो.

आनी फोनाच्या दुयेंसाक उबगल्लें हांव 'गाळी कोशांतल्यो' सगळयो गाळी विसरून गांवगिऱ्या धाकूच्या उतरांनी आड्डुलें.

.... 'हे काय धंदा, आं?'

# हॅलो... हॅलो

नोकरेतल्यान निवृत्त जावन  घरा बसल्यार जानू दादाक दोनूच दीस जाल्ले. पूण तो साप्प बेजारिल्लो. ताका दिसतालें की नोकरेखातीर आपूण सायबांचे जायतें सोंसता. पूण हांगा घरा बसून बायल फोनाच्यो कटकटी कशो सोंसता तें ताका ह्याच दोन दिसां भितर कळिल्लें. फोनाची रिंग वाजतुकूच तो उरवल्ल्या उपरांत फोन करणारो तो कोणाक लागला ही चवकशी करनासतनाच उलयतालो आनी चडांत चड चुकीचे नंबर लागिल्ल्यान जानूदाद बेजारिल्लो.

आयज आठ वरांचेर च्या पिवन जानूदाद बसला मात ट्रींSSSSSग, ट्रींSSSSSSग जालें. कोणाचो फोन काय?

'हॅलो कोण उलयता?' जानूदाद.

'ए, नऱ्या, मात्सो विजूक आपय पळोवया' फोन करणाऱ्यान म्हळ्ळें.

'हांव नऱ्या न्हय आनी हांगा कोणूच विजू ना' जानूदाद.

'ए  नऱ्या फकाणां कर नाका रे, तुका जायती व्हिडीयो कॅसेट व्हर. पूण आतां मात्सो विजूक आपय. पळोवया'. फोन करपी. 'हांव जानूदाद आनी...! जानूदादालें उलोवन जावचे पयलींच दुसऱ्या तोंकावयल्यान उतरां आयलीं. 'म्हळयार तो पयरूच निवृत्त जाला तो जाण्टेलो? राँग नंबर म्हूण रोखडेंच सांगूंक येनाशिल्लें तुका? हे जाण्टेले म्हळयार'... आनी ढण् करून रिसिव्हर आपटिल्ल्याचो आवाज आयलो. जानूदाद पिकार. चूक कोणाची तापोवणी कोणाक !

परतोय आनी एक वरान  फोन वाजलो.

'कोण देव जाणा!' जानूदाद पुटपुटलो.

'हॅलो हांव जानू उलयतां. फोन नंबर...' जानूदादान सुरवात केली. पयलींच सगळें सांगिल्ले बरें.

'आरे जॉन रे? रोजी आसा?' फोन करपी.

बेजारिल्ल्या जानूदादाक सामकोच राग आयलो. 'रोजी ना तें आतांच गेला जार्दीनांत फिरूंक' जानूदादान रागान म्हळें.

'आतां सकाळचें जार्दीनांत?' कोणावांगडा?' फोन करपी.

'सैतानावांगडा बस स्टॅंडासामकारा आशिल्ल्या जार्दीनात' जानूदादान म्हळें.

'सांतानावांगडां, बस स्टॅंण्डासामकारा आशिल्ल्या जार्दीनांत न्हू । हांव रोखडोच वयतां तर थंयसर'. फोन करपी.

'बरें' म्हणून जानूदादान रिसिव्हर दवरलो. तापिल्लो जानूदाद मात्सो निवलो.

फोनार दुसरो किर्ते उलयता तें सारकें ना आयुकुप्यांचो हो एक नमुनो. जानूदादान मनांत म्हळें.

ट्रींऽऽग ट्रींऽऽऽग जानूदादान हाताततले दिसाळें दवरून रिसिव्हर उरवल्लो.

'हॅलो, हांव जानूदाद आनी म्हजो फोन नंबर .......' जानू !!! 'हे पळयात, तुमगेल्या शेजारंच्या बिपिनाक मात्शे आपंयात.'' फोन करपी.

'हांगा बिपीन. कोण आसा?' जानूदाद.

'हय, बिपिनान सांगिल्लें की हो आपले शेजारचो फोन नंबर प्लिज, मात्शे आपयात' फोन करपी.

'म्हाका दिसता हांगा बिपीन म्हूण कोणूच ना. पूण मात्सो राव, हिका विचारता' जानूदाद.

'शेजराय विचारात मात्शे, प्लिज.' फोन करपी.

जानूदादन बायलेक विचारले. तिणे सांगलें की थंय बिपीन म्हूण कोणूच नासो दिसता. पूण दुबाव नाका. शेजरा वायटपण नाका म्हूण जानूदाद शेजारचे चार दुणी आठ फ्लॅटांनी वचून आयलों.

कोणागेरूच बिपीन नासलो. वयर सकल करून खरशेल्ल्या जानूदादान फोनाचो रिसिव्हर घेतलो.

'हॅलो हांगा सगळ्याक पळयलें, पूण बिपीन म्हूण कोणूच ना. वयर सकल सोपणां चडून देवून म्हाका जाण्टेल्याक पुरो मात जालें' जानूदाद.

'व्हॉट नॉनसन्स! धिस् इज नॅशनल व्हॅस्ट ऑफ टायम. एक पांय हेवटेन आनी एक तेवटेन जालो तरी आपल्या शेजरा कोण रावता तें खबर ना?' जानूदादानूच ढण् करून रिसिव्हर आदळ्ळो.

थोडोवेळ चिंतले. आनी...., आनी रिसिव्हर काडून मेजार दवरलो. हय कटकट नाका त्या रॉंग नंबराची. मडगांवचे हे फोन म्हळयार !

दुसरें दीस सकाळींफुडें घराची बॅल वाजली. दार उगडल्यार हालींच पणजे लग्न करून दिल्ली जानूदादाली धाकटी धूव.

'पप्पा, पप्पा, तुमी संगळीं बरी आसात न्हय?' ताणें घरांत सरत हुस्क्यान विचारलें.

'हय, पूण तूं इतलें सकाळींफुडे?' जानूदाद.

'पप्पा, काल सांजवेळच्यान तुका फोन लायतां. एंगेज्ड लागता. आनी सामकें गरजेचें काम आसा म्हूण तशेंच आयलें' धुवेन म्हळ्ळें.

जानूदादान एक व्हड सुस्कारो सोडलो आनी रिसिव्हर काडून जागचो जाग्यार दवरलो.

# वक्ल

मरणाक जशें पिरायेचे बंधन ना तशेंच तें वक्ल लागपाकूय ना. वक्ल हें ख्दंयचेय पिरायेचेर लागूं येता. चाळीस वर्सां जातकूच तर ते चड करून लागताच. तेन्ना ताका चाळिशी म्हणटात.

वक्ल लागतकूच सुरवेक थोडेभोव त्रास जातातूच-ख्वास करून ते वाचपाखातीर आसता तेन्ना. एकेकदां ख्वंय वता थंय तें व्हरूंक याद जायना. व्हेल्यार हाडूंक विसरूंक जाता. कांय जाणांक वक्ल लावंक उणाकपण दिसता, तर कांय जाणांक तें विव्दत्तेचे लक्षण दिसता. झेताखातीर नंबर नासतना लेगीत वक्ल लावन फिरपी हांवे पळयल्यात. वक्लाक लागून जायत्यो विनोदी घडणुको घडटात.

एक दीस, दोतोर सुरेख्वा पावभाजी मसाला घेवंक बाजारांत गेल्लें. वाचपाखातीरूच लागिल्ले वक्ल विसरून गेल्लें. दुकानदाराकडल्यान पावभाजी मसाल्याचे पाकीट घेतकूच सुरेख्वान ताका सांगलें 'हो मसालो केन्ना तयार केल्लो म्हूण बरयलां ती तारीख्व मात्शी सांगशात?' दुकानदारान पाकीट हातांत घेवन पळेलें आनी तो एक म्हयन्यापयलीं तयार केल्लो आसा म्हणपाचें सांगले. दुकानदाराक पयशे दिवन वतां वतां दोतोर सुरेख्वाच्या कानार उतरा पडलीं 'शिकप कितले गरजेचें आसता पळेलें? काय बरी देसेंत बायल पूण अक्षरशत्रू. कित्याक उपेग?' वक्ल व्हरूंक विसरिल्ल्यान दोतोर सुरेख्वा साप्प अक्षरशत्रू थारिल्लें !

एक दीस नलीक आपली एक इश्टीण कुंदा बसीकडेन उबी दिसली. नलीक ती ख्वुब वर्सांनीं दिशिल्ल्यान नली ख्वोशी जालें. नलीन तिका हात हालोवन दाखयलो. पूण इश्टिणीची कांयच प्रतिक्रिया ना. अशें कशें ? दोगांयची तर इश्टागत आसली. कुंदा बसींत चडिल्लें पळोवन नलीय तेच बसींत चडले? ताणें कुंदाक हडकिले, 'आगो कुंदा, तूं म्हाका वळख्वूंक विसरलें?

'आगो, तूं गो ? कशें आसा ? कितें आसा? 'कुंदाली बडबड सुरू जाली. तें पळोवन नली ख्वोशी जालें. अंती नलीन विचारलें. 'आगो, हांवे येदोळ हात हालयल्लो तो तुवें पळेलोना काय कितें ?'

कुंदान हेवटेन तेवटेन पळोवन म्हळें, 'ख्वरे सांगूं, कितलो तेप जालो म्हाका वक्ल लागलां. सध्या पयसुल्ले सारके दिसना पूण वक्ल लावंक लज दिसता. वक्ल लावनाशिल्ल्यान पयसुल्लीं मनशां हीं मनशां म्हूण कळटात पूण कोण तीं वळख्वूंक येनात. देख्वून.... ' पूण आपले ते करणेन लोकांचो आपलेविशीं गैरसमज

जावं येता म्हणचेलें ताका कळनासलें.

एक दीस हांव म्हजे वाचचेलें वक्ल विसरून भयणीगेर गेले. तिवूयबी आपले वक्ल खंयतरी विसरून आयिल्ली. इतल्यात तांगेर भावोजीचो एक इश्ट आयलो. ताका पिवंक उदक जाय आसले. तापोवन न्हिवयल्ले उदक भयणीन ग्लासांत घाले पूण वक्ल नाशिल्ल्यान उदक खऱ्यांनीच निवळ आसा काय ना म्हणचेलो ताका हुस्को जालो. देखून ताणें म्हाका विचारलें. हांवे म्हळें, 'आ! हांव वक्ल घराच विसरलें'.

'आतां असोच उदका ग्लास दिलो आनी तांतूंत बारीक कितेय आसल्यार?'

भयणीक हुस्को. 'मात्शें राव' अशें म्हणत हांवे रांदचेकुडीचो पड्डो कडेक सारलो. भायर पळेल्यार पन्नाशी वलांडिल्लो तो वक्ल लायनास्तना बारीक दोळे करून उलयतालो. तशे हांवे भयणीक म्हळें, 'दी टाळी!'

'कित्याक?' ताचो प्रश्न.

'ताकाय वक्ल आसा. पूण ते ताणे लावंकूय ना आनी ताच्या बोल्सातय ते ना. तो बारीक दोळे करून उलयता पळे.' हांवे सांगले.

भयणीन ताका पळेलो आनी तिकाय ते पटलें. हांवे म्हळे, 'हे पळय, तुवें उदक तापयलां. भलायकेचो हुस्को ना. दी तें तशेंच. ताकाय तांतूत कितेय आसल्यार दिसचेले ना. सगळे एकेच माळेचे मणी.'

आनी तशेंच घडलें. ताणें तो ग्लास हातांत घेवन पळयनास्तना घटघटीत उदक पिवन सोडलें.

तर अशे हें वक्ल. वक्लाक लागून कसलीं रामायणां, आनी महाभारतां घडटात हे 'जावे त्याच्या वंशा तेव्हा कळे' म्हणटात तेंच खरें !



# जितो आसा तो मेलो रे !

दोनय हातांतल्यो भाज्येन गच्च भरिल्ल्यो पोतयो फुटपाथाचेर दवरून कमळूबाबान हूम पुसली 'भोंगूं! भारतांत मेलो तो सुटलो जितो आसा तो मेलो रे' म्हूण कोणेशें बरीयल्लें तेंच खरें' कमळूबाब पुटपुटलो.

'कमळूबाब, आज आयतारची खूबूच खरेदी दिसता सामकी हूम येसर खरेदी?' कमळूबााबचे वळखीच्या जॉनान विचारलें.

'किते सांगू जॉनबाब, हाडूंक गेल्लों फकत एक शंबराचो बल्ब आनी हे इतले लचांड घेवन आयलों झक मारत. संवयीप्रमाणें हातान दोन पोतयो घेतिल्ल्यान वाटावलों'. कमळूबाबान जाप दिली.

अशें जाले तरी कितें तर?' जॉनान रावन विचारलें.

'लायटीच्या दुकानार शंबराचो बल्ब हाडूंक गेल्लो. दुकानदार धा रुपया बल्ब म्हणूंक लागलो. शंबराची नोट दिल्यार आरतून परतून पळेली. शंबराचो वॉटर मार्क काय कितें तें ना म्हणूंक लागलो. हांवे म्हळें की कालूच तर हांवे ती बँकेतल्यान हाडल्या तर तो म्हण्टा बँकेंत असल्यो नोटो आमी घेवन गेल्यार ते घेनात. कसोच आयकना. करतलो कितें ! बल्ब तर जाय' कमळूबाबान सांगलें.

'मागीर तुवें कितें केलें तर?' जॉनालो प्रश्न.

'मुखावेल्या भाजी मार्केटांत मोड घेवंक गेलों तर कोणूच दिनात एकदोगजाणांनी नोट अशी SS धरून उरफाटी सुरफाटी तपासून वोगीच मोड ना म्हळळें. मागीर हांव बेजारून तसोच मुखावेल्या बटाटवाल्याकडेन गेलों. ताकां दुबाव नाका म्हूण तीन कील बटाट घेतले. गरजेभायर स त्रीक अठरा रुपया खर्च' कमळूबाबान म्हळें.

'आनी  ही इतली भाजी कित्याक?' जॉनालो प्रस्न.

'कर्म म्हजें. बटाटवाल्यान पन्नासाची, धाची आनी वीसाची अश्यो नोटो दिल्यो. बल्बवाल्याक पन्नासाची नोट दिली. ताणे आरतीपरती केली आनी फाटल्यान बावटो ना म्हणूं लागलों' कमळूबाबान सांगलें.

'म्हळयार पन्नासाचीय फटीची नोट आयल्या तर?' जॉनाचो पश्न.

'हय खंय नोटीक फाटल्यान बावटो नासता  ती फाल्स नोट. धांची आशिल्ली नोट ताचे हड्ड्यार घाली आनी बल्ब घेतलो. पूण पन्नासांची नोट कितें करतलों? बटाटवाल्याकडेन वचूंक भिरांत दिसली. म्हळे भाजीवाल्याच्या गळयांत

बांदुया. म्हूण ही गरजेभायर वीस रुपयांची भाजीय घेतली.' कमळूबाबान सांगले.

'मागीर ताणे कसल्यो नोटी दिल्यो तर?' जॉनाचो प्रस्न.

'ताणे धा च्यो तीन नोटी दिल्यो. कमळूबाब.

'तुवे त्यो पळोवन घेतल्यो मूं ?'जॉनान विचारलें.

'धाच्योय नोटी पळोवंच्यो लागतात?' कमळूबाबान खरशेत विचारलें.

'हय धांच्योय फटीच्यो नोटी आसात. तांचेर हिन्दी बरप दाव्यान आसा आनी इंग्लीश बरप उजव्यान आसा खंय. पळे पळोवया तुगेल्यो नोटी काडून' जॉनान सल्लो दिलो.

'हें आनी नाका जाल्लेंच लचांड जालें' म्हणत कमळूबाबान धांच्यो नोटी पाकिटातल्यान भायर काडल्यो. पळेल्यार किते तिगांयचेर हिन्दी दाव्यान आनी इंग्लीश उजव्यान.

'ह्यो धांच्यो फाल्स' जॉनान म्हळें.

'पाडपडूं, आतां ह्योंय गरजेभायर खर्चून येवच्यो पडल्यो. भारतांत जितो आसा तो मेलो म्हणतात तेंच खरें' कमळूबाबान म्हळें.

'आनी सद्या गोंयचे परिस्थितींत तर तर मेलोच मेलो' जॉनान म्हळें.

'बरें हांव चल्लों तर' म्हणत कमळूबाब पोतयो उरवलून बाजारावटेन चलूंक लागलो.

जॉनान म्हळें, 'कमळूबाब' परतोय तेवटेन खंय वता?'

'धांच्यो नोटी कोणाच्या तरी बोडक्यार घालूंक' दोनय हातांनी भाज्येन गच्च भरिल्ल्यो पोतयो घेवन वतां वतां उबगिल्ल्या कमळूबाबान म्हळें.

# वाटेवयल्या वागा....

दनपारचें देड वर जालें तशी हांवें दुकानावयल्यान घरची वाट धरली. आयज मदेकाक कांयच खावंक पिवंक मेळूंक नाशिल्ल्यान पोटांत कावळे कांव कांव करताले. सांवड्डें-केपें बशीक सदचेवरी गर्दी आशिल्ली.म्हाका बशींत भितर सरचेली संद मेळ्ळी आनी हांव तडक निमण्या सिटाकडेन गेलें. एका सिटाचेर बसकण मारली. पर्सीतलो लेंस काडून घाम पुसून घेतलो.

'आगो बाय, तूं खंय देवल्यार घरा पावतलें तें सारकें जाणा मगो?' म्हज्या शेजरा बशिल्ल्या धा - इकरा वर्सां पिरायेचे गोरे पिठ्ठु चलयेक ताच्या शेजरा बशिल्ली बायल विचारताली. ते चलयेच्या हातांत पुस्तकांचें बॅग आशिल्लें. पूण आंगार मात शाळेचो गणभेस नाशिल्लो.

हांवें ते चलयेकडेन पळयलें, तशी ता बायल म्हाका सांगूक लागली, 'जाणा मगे, हें चली हांगा येवन ही बस खंय वता, करून सगल्यांक विचारूंक लागलें. सांवड्ड्यां म्हण सांगतकीर हांवूय येता तर म्हणून बशींत चडलां.'

'तें एकलेंच आसा?' हांवें तिका विचारलें.

'बाय, तुजे वांगडा आनीक कोण आसा?' तिणे ताका विचारलें. 'कोण ना. सकाळीं पप्पा म्हाका सांवड्ड्यां बशीचेर बसोवन गेल्लो. उपरांत हांव शाळेंत गेलें. आता हांव घरा वतां. पप्पा सांवड्ड्यां बशीकडेन स्कुटर घेवन रावतलो'. ताणें सगळें धडधड करून सांगलें.

'बाय गो, तूं खंयचे शाळेंत वता?' हांवें विचारलें.

'म्हाका शाळेचें नांव याद जायना' ताची जाप.

'आं!' आमच्या सगल्यांच्या चेऱ्यांचेर दुबाव आनी अजाप मिश्रीत भाव.

'शाळेचें नांव याद जायना? बरें, तुवें गणभेस कित्याक घालूंक ना ?' हांवें चलयेक विचारलें.

'हेरशींच..... ' ताची जाप.

'आगे, म्हाकाय हे चलयेचीं चिन्नां बरीं दिसना. तूं मात्शें लक्ष घाल आनी ताका मात्शें घरा वचूंक आदार कर, पयलींच चलीभुरगें आनी तांतूंत दिसूंक सोबीत. पूण तकलेन मात्सो धड दिसना.' आमच्या फुडल्या सिटार बशिल्ल्या दादल्यान म्हळें.

तें चली सोबीत-सुंदर आनी अबरगत दिसतालें. ते चलयेन शाळेचें नांव

याद जायना म्हणटकीर पयलींच म्हाका मात्शें कच्च जालें.

'बाय गो तुजें नांव कितें? हांवें विचारलें.

'अकल्पिता' ताची जाप.

'अकल्पिता तुज्या पप्पाचें नांव कितें ? - हांव.

'म्हाका याद जायना. ' ताची जाप.

'आं!' सगल्यांक कच्च जालें.

धा-इकरा वर्सां पिरायेचें चली आनी ताका पप्पाचें नांव याद जायना?

'आगे, ताचीं पुस्तकां काडून पळय. शाळेचें नांव, ताचें नांव सगळें कितें आसतलें.' शेजरा बशिल्ल्या आनीक एका दादल्यान सांगलें.

इतल्यान फीं SS करून कंडक्टरान शिटी मारली.

बस भरिल्ली म्हूण वा बस सुटपाचो वेळा जाल्लो म्हण बस वचूंक लागली.

'बाय, तुजें बॅग उगडून तुजें कॅलेंडर काडून दी.' - हांव.

'म्हजें कॅलेंडर शाळेंत आसा' - ताची जाप

'बरे तुजी एक वही काड.' - हांव

ताणे वही काडली ताचेर फकत 'अकल्पिता' म्हूण इंग्लिशीन बरयल्लें. शाळेंचें नांव, चलयेचें संपूर्ण नांव वा पत्तो कांयच ना. आतां म्हाकाय घाम फुटलो.

'हाचेर हे चलयेन फकत आपलें नांव 'अकल्पिता' इतलेंच बरयलां. आनीक कांयच ना' - हांव.

'आगे आमकां दुबाव मारता. कंडक्टर, ए कंडक्टर तूं हे चलयेक वळखता?' एकल्यान कंडक्टराक विचारलें.

'ना हांवें हे चलयेक हे बशीत केन्नाच पळोंवक ना. 'ताणें जाप दिली.

'हांव हे बशींत येना. म्हाका म्हजी बस चुकली म्हूण हांव शाळेंतल्यान धांवत येवन हे बशींत चडलां.' चलयेन सांगलें.

'बाय, तूं कितें शिकता?' म्हजो प्रश्न.

'पांचवी.'

'वन, टू, थ्री म्हण' - हांव.

'वन, टू, थ्री' ताणें म्हळें.

उफ! ..... 'बाय गो, तुका ए.बी.सी.डी म्हणूंक येता?'

'हय. ए.बी.सी.डी.' ताणें म्हळें.

'बाय, तुज्या पप्पाचें नांव कितें?' म्हजो परतोय प्रस्न.

'पप्पा. हांव ताका पप्पाच म्हणटां.' ताची जाप.

'हय गो, पूण तुजें जशें अकल्पिता नांव, तशें ताचें कितें? धडधडट्या काळजान म्हजो प्रस्न.

'याद जायना.' ताची जाप.

'आगे, प्लीज तूं मात्शी सांवड्ड्यां ताचे वांगडा देंव आनी ताका घरा पावय. चलीभुरगें तें. हांव ताचे वांगडा वता आसलों... पूण, पूण हांव दादलो पडलों. हें काम बायलेनूच केल्लें बरें.' येदोळच्या त्या दादल्यान सांगलें.

'हय, म्हाकाय तुमचें म्हणणें पट्टा.' अशे तीनचार आवाज आयले. खरें तर, म्हाका हांव केन्ना काय घरा पावताशें जाल्लें. पूण ह्या सगल्यांचें म्हणणें म्हाकाय पटलें.

'बाय, हांव तुजे वांगडा देंवन तुज्या घरा येता हां' हांव. तें वग्गी रावलें.

हांवें म्हजो देंवचेलो थामो सोडलो आनी बद्द तें चली देंवचेली वाट पळोवंक लागलें. म्हन्यांतले लोक मदीं देंवले, नवे चडले.

'सांवड्डें, सांवड्डें म्हूण कंडक्टरान हेलांट मारीनाफुडें तें उठलें. तशें हांवूय उठलें ताचे वांगडा वचूंक लागलें.

'तू म्हजे वांगडा कित्याक येता?' ताणें विचारलें.

'तुका घरा पावोवंक.' अशें हांवें म्हळां मात, तें धांवत सुटलें आनी एके स्कुटरीर बशिल्ल्या दादल्यासरी वचून उबें रावलें. हांवूय धांवन थंय गेलें.

'पप्पा, ए पप्पा, ही ती बायल मरे म्हाका सारके तुजें नांव विचारून त्रास दिताली. तुवें म्हाका सांगलां न्हय रे कोणाक सांगप ना म्हूण. हांवें तिका तुजें नांव सांगूंक ना म्हूण हांगा आयल्या पळय.' तें म्हजेकडेन बोट दाखोवन आपल्या पप्पाक सांगता तें आयकून म्हाका घुंवळ येताशी जाली.

# आनी आयतार आयलो

सकाळीं फुडें देवपुजे खातीर घरकार फुलां काडटा आसतना ताणें म्हाका उलो मारू म्हळ्ळें, 'आगो, मात्शी ती ताळयो कापचेली व्हडली कातर हाडून दी. ह्यो ताळयो कापतां. ताळयांनी अर्दी गेट सामकी आडावन घाल्या.'

हांवें म्हळें, 'हें पळय, आयज शेनवार. खूब कामां आसात. आतांच तें काम करुंक गेल्यार आमकां भायर सरूंक कळाव जायत. फाल्या आयतार. फाल्यांय आमी सदचेवरी सकाळीं फुडें उठून काम करुंया. फाल्यां सकाळी उठून च्याचो घोंट घेवचे घेवन पयलीं त्यो ताळयो कापुया.'

'हय व्हय. तशेंच करूंया पोरसांतलीं हेर कामांय करूंया.' घरकाराक म्हजी सुचोवणी मानवली आनी ती मानून घेवन तोवूय फुडल्या कामाक गेलो.

साडेआठांक शेंवतु आयलें. आयदनां म्हूण घांसूंक घेवन गेलें आनी आड्डुत आयलें, 'वैनी, ए वैनी, आयज हांगा पावसाचें उदक तुमलां गे ऽ'.

'आगो, काल रातीं पावस चड जालो न्ही!. पळोवया खंय कितें जालां तें' - म्हणत हांव पोरसांत गेलें. पळयत जाल्यार आयदनां दवरता ते सुवातेर उदक. थंय खळी खणूंक जाय. खोरें काडलें, शेंवतूच्या हातांत दिलें.

'शेंवतू, बाये, वर्सा हांगा अशें उदक उरनासले. आतां मात्शें तात्पुरतें ठुकठूक कर. आयज शेनवार, फाल्यां आयतार. फाल्यां आमी सदचेवरी सकाळीं फुडें उठून काम करचेलें थारायलां आनी तेंवूय बी पोरसांतलें. फाल्यां सकाळीं आमी अशीऽ खळी मारतां ऽ, पळयच तूं. परतें उदक तुमला म्हणचेलें नां.'

'ब ऽ रें' म्हणत शेंवतून खोरें घेवन माती उपशिली. दनपरां कामा वयल्यान घरा आयलीं जाल्यार शेजारच्या संदीपान उलो मारलो, 'काकी ऽ, सावरबोण्या केळ्यांचे केळमे हाडल्यांत. सांजवेळा रोयतली जाल्यार दिवूं?'

हांवें म्हळें - 'संदीप, बाबा, आयज शेनवार, मात्शीं चड कामां आसात. फाल्यां आयतार आसलो तरी आमी सदचेवरी सकाळीं उठून काम करतलीं, तींवूय पोरसांतलीं. तेन्ना तो केळमो हांगाच आंसू दी. आमी तो फाल्यां सकाळीं रोवया'.

इतल्यान टीण्, टीण्, टीण करीत सायकलींन तो सदचो 'बा ऽ टली, प्लास्टीक' म्हणत आयलो.

'बाय, प्लास्टीक, बाटली देती क्या?'

'हम तो अभी घर पहुँचे हैं । तुम कल सुबह नौ बजे आओ. जितना बाटली

और प्लास्टीक है न, लेके जाओ.'

'आज निकालके रखो बाय. कल झटसे लेकू जाता मैं'।

'आज समय नहीं . शनिवार के दिन ज्यादा काम रहता है । कल इतवार है फिर भी हम हमेशा की तरह उठकर काम करेंगे । तुम नौ बजे आओ तो सही, तुम्हारा काम हो जाएगा!'

'अच्छा बाय' म्हणत तो गेलो.

'माँ, आमी आयज सांजवेळा कांचेच्या सामानाची आलमार निवळ करूंया म्हण मगे तूं ? करचेली?' ध्रुवेन विचारलें.

'बाय गो, आयज शेनवार. पयलींच खूब कामां आसात. फाल्यां आयतार आसलो तरी आमी सदचेवरी उठून एक एक काम करचेंले थारायलां. तेंवूय काम फाल्यांच करूंया.'

'ब ऽ रें तर' म्हणून ध्रूव गेली.

राती न्हिदतना हांवें मुद्दम सकाळचो पावणे सचो गजर लायलो. हय, आयतार म्हणून सुशेगाद सात मेरेन न्हिदलें जाल्यार ! जाल्यार सगळीं कामां उरतलीं.

रातीकडेन न्हिदलीं, ती सकाळी बद्द गजरान जाग हाडली. ट्रीं ऽऽ ग करून वाजतल्या त्या आवाजान हांव उठलें, आनी दोळयां सामकारच्या कॅलेंडराचेर नदर पडली.

'आरेच्या ! आयज आयतार! सप्तकांतले सवूय दीस खूब कामां करपी मनशांक सातव्या दिसा सुटी घेवंचेलो पुराय अधिकार आसा' अशें पुटपुटत, घड्याळीच्या माथ्यार थापट मारून, पांगरूण घेवन हांवें परतेंय ता ऽऽ णून दिलें.

# पिड्डूकां कांकणा

सकल्या धवाड्या वर्गांतल्या शंकरदादाचे अपुर्बायेचे धुवेक मागणी घाल्ली. अशा तशा मनशान न्हय. गिरेस्त ·मनशान. आपल्या दोतोर पुताखातीर. रायबारी जेन्ना हें सांगूंक आयलो तेन्ना शंकरदादाक अजापा वांगडा हुस्कोय जालो. आपूण काय गिरेस्तकायेन तांच्या तोलामोलाचो न्हय. घालपावेल्यान फुडें धुवेक घरांत त्रास केलो जाल्यार ? ताणें तशें रायबाऱ्याकडेन उलोवन दाखयलें.

रायबाऱ्यान म्हळें, 'दादा , तूं कांय भियेनाका. चल्याकूच चली पंसत आसा. लग्न केलें तर ताचेकडेनच असो हट्ट तो धरून बसला. देखून घालपाखातीर तुका कांयच अडचण येवची ना.'

'अशें म्हणटा?' शंकरदादान फाटींफुडें जायत विचारलें.

'तूं फकत हात कर. वज्रावेडी, बाजूबंद आनी हिऱ्यामुदी तीं घालतलीं. तूं कांयच हुस्केव नाका. आरे, धुवेचीच जोड धुवेक घाल आनी दोट्टी गोट कर. म्हणटकीर कोण कांय म्हणचेलो ना' रायबाऱ्यान युक्ती सांगली.

शंकरदादा तसो खावन-पिवन सुखी. पूण एकदम गिरेस्त लोकांचे पंक्तीक बसपा सारको न्हय. ताकाय ती युक्ती पटली. नाय जाल्यार चली आपले परस चार पयशे चड आशिल्ल्या घरांत पडटा न्हय! ताणें ही गजाल बायलेक आनी धुवेक सांगली. धुवेन म्हळ्ळें, 'बाबा, तुवेंच शिकयल्ल्यान हांव शिकूंक पावलें. शिकूंक पावलें देखून जोडूंक पावलें. तुवेंच ही जोड तशीच बँकेन दवर म्हळ्ळें म्हूण दुडू उबो रावलो. आनी हांव कितें एकलेंच आसा? फाटल्यान बाबूय शिकचेलो आसा'.

जालें. सगळें थारलें. चल्यान चलयेक पळयल्ली. पूण चल्याक पळोवंक नासलो. आधुनिक आनी गिरेस्तांचे पध्दतीन एका हॉटेलांत आवय - बापायन धुवेक घेवन चल्याक मेळूंक वचचेलें थारायलें. तेंवूय काम बरे ऽ तरेन जालें. उपरांत साखरपुडो थारलो. वेयान शंकरदादाक सांगलें, 'तूं तुजे धुवेक साखरपुड्यावेळारूच कितें घालचेलें तें घाल. तिका कितें कमीशें दिसता तें आमी करतलें.'

शंकरदादाक कोणेच कटकट केली ना. ताणें आपले आस्पतीप्रमाण भांगर केलें. दोट्टी गोट, पाटली, दोन कांकणां आनी तोडे. गळयांत एक हार.

साखरपुड्या वेळार पेजाद गाड्यांनी बसून न्हवरेकारां आयलीं. बायलां तर भांगरान भरिल्लीं. तांच्या कानांतल्यो वज्रावेडी, नाकांतलें वज्र आनी हातांतली वज्र मुदी चकचकताली.

शंकरदादाचे बायलेचें लक्ष नवरेकारांकडल्या बायलांच्या हाताचेर गेलें. धुवेच्यो जावो.... दोगांय जावांच्या हातांत दोट्टी गोट, पाटली, तोडे, दोन कांकणा भांगराची आनी मर्दी पिडुकांचीं.

आ SS! म्हळयार धुवेक पिडुकां कांकणां केले बगर ती तांचे पंक्तीक सोबपा ना. बायलेन घोवाक ल्हवू कानांत सांगलें. उपरांत धुवेक सांगलें. साखरपुडो बेस बरो जाले उपरांत नवरेकारां घरा गेली.

शंकरदादान नजो जाता करून पिडुकां कांकणा करून घेतलीं. हय! ओगीच उणाकपणा नाका. तशें नवरेकारांनी कांयच मागूंक नासलें वां कसलीच कटकट करूंक नासली. फकत हात तितलो ते घरचे सुनेक सोबता असो करचेलो.

लग्न जालें. व्हंकल-पावणी घरा गेली. शंकरदादाली धूव नाका-कानांक वज्रां घालून घरा पावली. दोन दिसांनी नवरेकाराल्या घरांतले लग्नाक आयिल्ले सगळे लोक गेले. तिसरे दीस सांजवेळा नवे व्हंकलेवांगडा च्या पितना दोनूय जावो म्हर्‍यांत येवन तिची पिडुकां कांकणां तोरवेवंक लागल्यो. व्हडले जावेन दुसरे जावेक म्हळें, 'आतां आमीय आमकां पिडुका कांकणां करून घेवया. सगल्यांचे हात एकसारके आसूंक जाय.'

'हांवुय तुका तेंच सांगूंक वतालें.' दुसरे जावेन म्हळें.

'तुमची पिडूकां कांकणा आसा न्हय? तुमी साखरपुड्याक घाल्लीं तींच पळोवन तर बाबान म्हाका ही केल्यांत.' व्हकलेन सांगलें.

दोनूय जावो खो S खोS करून हांसूंक लागल्यो. 'म्हळयार ? तुमी फटवलीं तर ! आमी गाडयेवाल्यांनी फटींचीं पिडुकां कांकणां घाल्यार लेगीत लोक खरींच समजतात. आमची दोगांयची तीं पिडुकां कांकणां नकली, भांगराची न्हय.'

नवी व्हंकल च्या पिवंचेली विसरून गेली.

# धर्म करतां कर्म उबें

'वन्स मोअर, वन्स मोअर' च्या गजरान आनी ताळयांच्या कडकडाटान श्री शांतादुर्गेच्या सभामंडपांत खोशेचें ल्हार पातळ्ळें. पंदरा वर्सां पिराये मेरेनच्या भुरग्यांखातीर गावचेली सर्त आसली. ते मोटवेशेच चलयेन सुंदर आवाजान पद म्हळ्ळें आनी लोकांनीय ताका दाद दिली.

'ही तर भविश्यांतली लता मंगेशकार' म्हज्या मनांत विचार आयलो. पूण हे चलयेन संगीताचे - गावचेलें शिकप घेवंक जाय. शिकप आनी रियाज करचेले कश्ट घेतल्यार ही चली नक्कीच वयर सरतली. सीमा-ताचें नांव सीमा. ते रातीं सीमाक पयलें इनाम मेळ्ळें आनी ताचें कौतुक करीत सगळे जाण आपापल्या घरा गेले.

दुसरे दीस सकाळीं आठ वरांचेर म्हजेकडेन काम करतल्या मीनाचे आवय-बापूय मीनाच्या लग्नाची होंवळीक घेवन आयले. तशें मीनाचें लग्न ठरिल्ल्यांत जमा म्हणचेलें म्हाका खबर आशिल्लें. पूण नक्की केन्ना तें खबर नासलें. मीनाचें लग्न वेवस्थीत वेळच्या वेळार जाता म्हूण म्हाका खोशी जालीच. पूण म्हजो उजवो हात गेल्लेवरी दिसलें. इतले मायेन, घरचेंच कशें काम करपी कोण मेळटलें? मीनाचें लग्न धा दिसांचेर आयिल्लें. आपल्या लग्नाक एक सप्तक उरलां म्हळयार आपुणूच तुका दुसरें कोणूय हाडून दितां म्हणून मीनान म्हाका सांगिल्लें. साडेआठांक बॅल वाजतकीर दार उक्तें केल्यार मीना वांगडा सीमा-हय, सीमाच तें. हांव ताका वळखलें.

'ए, तूं सीमा न्हय? देवळांत तुका गावचे खातीर पयलें इनाम मिळिल्लें तें तूच. बरोबर?' हांवें खोशेन ताचे हात हातांत घेतले.

तें हांसलें आनी लजलेंय हय हांवूच तें. म्हाका पदां म्हणूंक आवडटा. हांव रिकॉर्ड आयकतां. परती परती एकूच रिकॉर्ड आयकतां आनी शिकतां' ताणें सांगलें.

'बस, यो, बस मगो.' सोफाकडेन हात दाखयत हांवें म्हळ्ळें, पूण तें घरांत भितर येवन खुटो कसो उबें.

'ताई, आयज हें म्हजे वांगडा कित्याक आयलां जाणां?' मीनान विचारलें.
'कित्याक?'

'ताई, तें सातवी पास जालां. आतां शाळेंत वचचें ना म्हणटा. ताका बापूय

ना. ताची आवय काम करता. म्हजें काम तें आपूण करतां म्हणटा.' मीनान एका दमान सांगले.

'आं?' एक तरेचें अजाप, खंत अशा मिश्रीत भावनांनी म्हाका कितें उलोवचें तें सुचलेंना.

'ताई, हांव सकाळीं सातांक येवन तुमचें काम करतां. दोन वरांनी कितलें जाता तें काम करतां. मीना इतलो पगार दिल्यार पुरो. म्हजो बाबा भायर पडिल्ल्यान हांवें हें एक काम करचेलें थारायला'. सीमान सांगलें.

सैमान दिल्ल्या सुंदर-सोबीत आवाजाचें हें चली म्हगेर काम करतलें? शे! शे! खरें तर हें गायन शिकूंक वचचेलें आनी हाचेंच काम दुसऱ्यांनी करचेले लायकीचें चली हें. पूण ताची साप्प इबाडिल्ली अर्थीक परिस्थिती !

'मीना, तूं तुगेलें काम कर. हांव आनी सीमा थोडीं उलयतां.' हांवें मीनाक सांगलें तशें मीना आपल्या कामाक गेलें.

'सीमा, तुका गावंक शिकचें, रेडियोचेर, टी.व्ही.चेर गावचें अशें दिसना?

'म्हाका दिसून फायदो कितें? आमकां खावंक -जेवंक दुडू उणे पडटात. गायन शिकूंक दुडू खंय आसात?'

'हें पळय, तूं म्हजेकडेन काम करता ताचो तुका हांव मीनाक दिता तसो पगार दितां. हांव मडगांवा वचून नामनेच्या गावपी शिक्षकाक मेळून ताची फी विचारून घेतां. ती सगळी हांव फारीक करतां. मडगांव येवचे वचलेलो खर्चूय हांव करतां. मागीर जालें ? तूं शिकूंक वतलें जाल्यार आईक विचार आनी म्हाका फाल्यां सांग.'

दुसऱ्या दिसा सावन सीमा कामाक येवंक लागलें. येतनाच तें आवयचें उतर घेवन आयिल्लें. म्हजे खोशेक सीम मेर उरलीना. तें एक कलाकार. ताका फावता तें ताका मेळोवन दिवंक म्हजो थोडोसो हातभार लागल्यार म्हाकाय समाधान. त्याच दिसा मडगांवच्या नामनेच्या गावपी शिक्षकाकडेन गेलें. ताका ही सगळी गजाल सांगली. ताणेंय एक तारखेक सावन सप्तकांतल्यान दोनदां चार ते पांच वा पांच ते स सीमाक घेवन येवंक सांगले.

दुसरे दीस ही खबर सीमाक सांगतकीर ताणें म्हळें, 'आ SS, पूण हांव एकटेच मडगांवा वचूंक नकळ, आई म्हाका तशें एकटेच धाडचीना.'

हांव परतेंय शिक्षकाकडेन गेलें. भासाभास करून जातकीर म्हज्या घरा सप्तकांतल्यान दोनदां शिक्षकान येवन सीमाक शिकवचेलें थारलें. मडगांवयली गानीकूय भुरगीं आसल्यार म्हाका खर्च उणो येतलो आसलो. ते नदरेन हांवेंय यत्न

करचेलो थारायलो.

आतां म्हज्या घरांत वर्ग सुरू जावंक एक चार एक दीस उरिल्ले. एक दी सकाळीं फुडें सीमा आयलेंच ना. कसलोच रकादूय ना. म्हळ्ळें घडये दुयेंत पड जावंये.

सांजवेळा सीमाची आवय आयली.

'ताई, तूं सीमाक गायन शिकोवंक सोदता रवंय?

'हय, तुका विचारूनूच थारायलां तें.'

'म्हजी तशी हरकत नासली. पूण आमची घरमालकीण ताचे साप्प आ ासा न्हूं ! ती म्हणटा तूं ताका गावंक शिकोवन वायट मार्गर व्हरतली.'

आं, कितें ?'- म्हाका अजाप जालें.

'आनी ताई, दुसरें म्हळयार आमी तिच्या घरांतले एके कुडींत रावता. ता ती भाडें घेना. देखून तिचें घरकाम सकाळीं हांव करतां. सीमा तर सांजवेळा पां ते आठ मेरेन तिगेर काम करता.' सीमाचे आवयन सांगलें.

ओ SSS म्हळयार सीमा गायन शिकल्यार घरमालकीणीक कामाक चे ा जातलें.

'हे पळय, गावपाचो आनी वायट मार्गाचो कांयच संबंद ना. वायट मार्ग वचपी मनशां वायट मार्गार कशेय तरेन गेलेबगर रावना. आयच्या दिसांनी गावप्यांक खूब मान मेळटा, दुडू मेळटा. हें शिकप सांबाळून सीमान तिगेर काम केलें ़ाटकीर जालें न्हय? पूण आयज सीमा कित्याक येवंक ना?'

'तू सीमाक गावंक शिकोवन ताची वाट लायतली.' जाप आयली.

'आगे, पूण हरशींच तें घरा रिकॉर्ड आयकून सर्तींनी भाग घेवन गावपां ें इनाम मेळयता. तेन्ना ताची वाट लागना?' म्हजो प्रस्न.

ती गजाल वेगळी. तें सगळें आमच्या दोळयां सामकार जाता न्हू? घरमालकीणीचें खरें लागता. देखून सीमा आयजसावन तुमगेर कामाक ' म्हणून सांगून नी तर SS तरSS करून गेली. हांवे संगीत शिक्षकाक ...ली कथा सांगली. ताणें म्हाका समजायलें आनी वायट दिसून घेवंक ें. हांव घरा आयलें आनी हांव ... हांव आयदनां घांसूक लागलें.



## दीपा दिनकर मुरकुंडे

M.A., D.H.E

२८ मार्च १९९८ ते २७ जानेवारी २००८ मेरेन बारा बरोवप्यांची वट्ट अठ्ठावीस पुस्तकां उजवाडावन हांव सरस्वतीची उपासना करूंक शकलें म्हूण खूब खोशी जाता ही उपासना करूंक आदार करपी सगळ्यांक देव बरें करूं.

### उजवाडा आयिल्ले साहित्य

१. उमजणी - कथिका

२. पिटकुलीं नाटकुलीं - नाटकुलीं

३. भौरंगी जीण - निबंध

४. नुपी - काणयो

५. चिमी - काणयो

६. पडबिंब - निबंध

७. भौरंगी जीण  निबंध (भाग - २)